# नवी जाग
## गोंयकारांक

वर्स ४९ : आंक १ : ऑगस्ट २०२२



जाग प्रकाशनाचें

नवी जाग गोंयकारांक म्हयनाळें

वर्स ४९ : आंक १ : ऑगस्ट २०२२

● संस्थापक संपादपी :
स. रवीन्द्र केळेकार
स. सुमंत केळेकार

● वैचारीक दायज :
स. माधवी सरदेसाय

● संपादपी :
आसावरी नायक

● अतिथी संपादपी :
सखाराम शेणवी बोरकार

● पालवी संपादपी :
कृपाली नायक, एडना वाझ

● उजवाडावपी :
जयवंत भा. सरदेसाय
२०१-बी, सालदॅल अपार्टमॅन्टस्
रुआ द साउदादिश, पाजीफोंड,
मडगांव - गोंय ४०३ ६०१.

● छापपी :
इंप्रेशन्स, बी-२, 'अक्षर आर्केड',
गोंधळी गल्ली, बेळगांव ५१० ००२

● वेव्हाराचो नामो :
जाग म्हयनाळें
बिल्डींग ३, प्लॅट ३, - SE-3
मॉडॅल स्टेटस, दोनापावल-तालिगांव मार्ग,
गोंय विद्यापिठा लागसार,
ताळगांव-गोंय ४०३ ००४.
फोन: ७४४७२६८७२० । ९७६५१८७६०६

| | |
|---|---|
| वर्सुकी पटी | : ४००/- रु. |
| विद्यार्थ्यां खातीर (फकत वर्सुकी) | : २००/- रु. |
| तीन वर्सांची पटी | : १,०००/- रु. |
| वाचप-घरां खातीर वर्सुकी पटी | : ५००/- रु. |
| जिवीत भराची वांगडी-पटी | : ४,०००/- रु. |

**Jaag Bank Details:**
Accont No. 4004002100005165
Name : JAAG MONTHLY
Bank Name: Punjab National Bank
Branch : Panaji-Goa
IFSC Code: PUNB0292300

किरकोळ आंकाचें मोल : रु. ४०/-

## मांडावळ...



**भायले चित्र** : सागर नाईक मुळे
**भितल्ली चित्रां** : निशीत बोरकार.

संपादकीय

## स्वातंत्र्य चिरायु उरूं!

आगस्ट म्हयनो हो आमच्या देसा खातीर एक म्हत्वाचो म्हयनो. ह्याच म्हयन्याचे पंदरा तारखेर आमी ब्रिटिशांच्या शेकांतल्यान मुक्त जाल्ले. अंदूच्या पंदरा आगस्टाक ह्या स्वातंत्र्याच्या अमृत महोत्सवी सुवाळ्याचो समारोप जाता. भारताचो गौरवशाली स्वातंत्र्य लढो हो अर्विल्या संवसारांत जाल्लो एक म्हान लढो. हें आमचें स्वातंत्र्य तिगोवन दवरपाचें काम आमचें सगळ्यांचें. त्या खातीर आमकां सदांच जागरुक रावचें पडटलें. त्याग करपी स्वातंत्र्यसैनिकांच्या वावरांतल्यान तरणाट्यांनी स्फूर्त घेवन देशा खातीर योगदान दिवचें पडटलें.

भारताच्याच वांगडा स्वतंत्र जाल्लो आमचो शेजारी देश पाकिस्तानाची फाटल्या ७५ वर्सांत कितली अधोगती जाल्या. त्याच वांगडा आमचो आनीक एक शेजारी देश श्रीलंका आयज अराजकतेकडेन झुजता. थंयची परिस्थिती भिरांकूळ आसा. कांय विस्तारवादी देश पेटिल्ल्या उज्यांत विडी पेटोवची तसो हाचो लाव उठोवंक सोदतात. आमी सगळ्या पांवड्यार सादूर रावचें पडटलें.

ह्या आंकांत, स्वातंत्र्याच्या अमृत महोत्सवी सुवाळ्याच्या निमतान फाटल्या ७५ वर्सांत आमी कितें जोडलें, कितें वगडायलें हाचो अरुण जयराम कामत हांणी आपल्या लेखांत विस्तारान नियाळ घेतला. ह्या आंकाचें मुखपृष्ठ फांकीवंत तरणाटो गोंयचो चित्रकार सागर नाईक मुळे हांणी काडलां. हालींच कावी कलेच्या संवर्धनाखातीर तांणी केल्ल्या वावराची केंद्र आनी राज्य सरकारान दखल घेतिल्ली.

जुलय म्हयन्याच्या ७ तारखेर आमी 'जागा'च्यो आदल्यो संपादक माधवीबाय सरदेसाय हांचो साठावो वाडदिस मनयलो. त्या निमतान एक खास वेबिनार घडोवन हाडलो. ह्या वेबिनारांत 'नवी जाग गोंयकारांक' आनी एकूण कोंकणी नेमाळीं हांच्या फुडाराचेर भासाभास जाली. हातूंत वांटेकार जाल्ल्या मानेस्तांनी आपले विचार मांडले. 'नवी जाग गोंयकारांक'च्या संदर्भांत ज्यो सुचोवण्यो केल्यात तांचेर आमी मुजरत विचार करतले.

ह्या आंकांत आमी दोन तरणाट्या लेखिकांच्यो कथा घेतल्यात. नव्या विशयावेल्यो ह्यो कथा तुमकां आवडटल्यो हातूंत दुबाव ना. आंकाचो दर्जो राखून, तिगोवन तरणाट्यांचें साहित्य उजवाडावपाची आमची मोख आसा.

'नवी जाग गोंयकारांक' ह्या म्हयन्यांसावन ४९ व्या वर्सांत पावल दवरता. हें सगळें घडूंक आयलां आमच्या लेखकांखातीर, जायरातदारांखातीर आनी आंकांची उमळशिकेन वाट पळोवपी वाचकांखातीर. ह्या वावराक तुमचें फाटबळ आनी सगळ्या जाळवणदारांचो आशिर्वाद आसतोलोच. फुडाराक लेगीत दर्जेदार साहित्यान नटिल्लो आंक, वेळार तुमचेकडेन पावतलो. ह्या म्हयन्याचे निमण्या दिसा चवथ. फाटलीं दोन वर्सां चवथीचेर कोरोनाचें सांवट आशिल्ल्यान चवथीची उमेद जिरिल्ली. अंदू सगळीं पथ्यां आनी नेम पाळून चवथ मनोवंया. तुमकां चवथीचीं परबीं!

भारतीय स्वातंत्र्याच्या अमृतमहोत्सवी सुवाळ्याच्या समारोपा निमतान तुमकां सगळ्यांक परबीं!!

***

# आमचो देस जैतवंत जांव!

अरुण जयराम कामत

पांच हजार वर्सांकूय चड पिराय आशिल्लो भारत हो आशिया खंडाचो एक उपखंड. ह्या पांच हजार वर्सांत भारतांन कितलेशेच राजा-महाराजांचें राज्य पळयलें आनी बादशाह सुलतानांच्यो सलतनीय पळयल्यो. एका काळांत भांगराचो धुंवर येवपी ह्या भुंयेंत अन्नाक पादिशेर जावन फडफडून मरपी लोकांची गरीबीय पळयली. हांगाच्या जमिनीन पिकपी मसाल्याच्या घमघमाटान आनी कापसाच्या दोळे दिपकावपी धवेफुल्लपणान मागीर युरोपियन देसांतले वेपारी भारतात पावले. हेच वेपारी हांगाच्या गरीबीचो फायदो घेत भारत देसाचेर राज्य करपाक लागले. १८५८ ते १९४७ अशी वट्ट नव्वद वर्सां ब्रिटीशांनी आमच्या देसाक गुलामगिरींत दवरलो. आमचेच लोक आपल्याच देसांत एका दासाचे जीणें जगताले. स्वाभिमानी देसवासियांक ही गुलामगिरी सोंसना जाली. ताणीं ह्या ब्रिटीश सरकाराआड लडो उबारलो. भारताचो स्वातंत्र्य लडो आयच्या अर्विल्ल्या संवसारांतलो जाल्लो एक म्हान अहिंसक लडो. ह्या लड्याक लागून १५ ऑगस्ट १९४७ ह्या दिसा भारत देस स्वतंत्र जालो. अखंड भारताचे दोन कुडके जाले. दोन नवे देस जगाच्या नकाशार जल्माक आयले. ह्या पंदरा आगस्टाक आमी देसवासी भारताच्या स्वतंत्रतायेच्या अमृतमहोत्सवी वर्साचो समारोप सुवाळो मनयतात. त्यानिमतान देसाच्या पंचाहत्तर वर्सांच्या प्रवासांतले कांय खोश्शेचे अमृत खीण याद करप, गोड घडणुको याद करप गरजेचें आसा.

भारत स्वतंत्र जालो आनी पंडित जवाहलाल नेहरु हांच्या फुडारपणाखाला स्थापन जाल्लें सरकार देस चलोवपाक लागलें. डॉ. बाबासाहेब आंबेडकर हांच्या अध्यक्षपदाखाला आशिल्ल्या घटना समितीन नवीन राज्यघटना तयार केली. संबंद जगात आदर्श अशी ही राज्यघटना आमी आपणायली. आनी राज्यसत्ताक आशिल्लो आमचो देस प्रजासत्ताक देश जालो. लोकांचे, लोकांनी, लोकांखातीर वेंचिल्लें सरकार वेंचणूक घेवन सत्तेर येवपाचो मार्ग मेकळो जालो.

स्वतंत्र भारत देस अनेक दिकांनीं उदरगत करतालो. मागीर तो आर्थिक वाठारांत आसुंये वा शैक्षणिक, राजकीय, सांस्कृतीक वा खेळामळार. खेळामळार आमच्या देसाखातीर एक आनंदाचो खीण उजवाडलो तो १९५१ ह्या वर्सा. आमची राजधानी नवी दिल्ली हांगा त्या वर्सा पयली आशियाड सर्त पार पडली. ह्या सर्तींत अकरा आशिया देसांतले ५०० खेळगडे वांटेकार जाले. ५७ वेगवेगळे खेळ प्रकार आशियाडान आशिल्ले. २४ भांगरा पदकां मेळोवन जपान देस पयल्या सुवातेर आयलो तर १५ भांगरा पदकां मेळोवन यजमान भारत दुसरो थारलो. फकत चार वर्सां पयलीं स्वतंत्र जाल्ल्या देसान येदी व्हडली आंतरराष्ट्रीय पांवड्यावयली सर्त यशस्वीपणान घडोवन हाडली. हाचें सगळ्या संवसाराक अजाप आनी कौतुक दिसलें.

देसाची उदरगत जाताली तशी देसाच्यो गरजोय वाडटाल्यो. देसांत वीजेची मागणी वाडताली. आमच्या त्या वेळच्या दूरदर्शी राजकीय नेतृत्वान ही गरज वळखून त्या दिकेन पावलां मारपाक सुरवात केली. अणुउर्जा ही शुद्ध आनी प्रदुशण न करपी उर्जा. सरकारान १९४८ सावन अणुउर्जा आयोग स्थापन केलो. १९५४ सालात अणुउर्जा खातें तयार करुन तुर्भे, मुंबय हांगा अणुउर्जा प्रकल्प मार्गाक लायले. 'अप्सरा' ही पयली अणुभट्टी जानेवारी १९५६ ह्या वर्सां तर 'सायरस' ही

दुसरी अणुभट्टी १९६० वर्सा चालू केली. १९५७ वर्साच्या जानेवारींत पंडित नेहरु हांच्या हस्तुकी अणुसंशोधन केंद्राचें उक्तावण जालें. डॉ. होमी भाभा ताचे पयले संचालक आशिल्ले. डॉ. भाभा हांच्या मरणा उपरांत १९६७ सालात ह्या केंद्राचे नामकरण भाभा अणुसंशोधन केंद्र अशें केलें. आयज भारत जगांत अणुतंत्रगिन्यान बळवंत असो देस मानतात. ताचें सगलें श्रेय ह्या सगळ्यांचे कामांक फावो जाता.

भारताच्या वाडट्या जनसंख्येक लागून अन्नधान्याची गरज वाडली. ही गरज भागोवपाखातीर शेत उत्पादन वाडोवप, शेताक उदक पुरवण वाडोवप गरजेचें जालें. १९४८ वर्सा सतलज न्हंयचेर हिमाचल प्रदेशाच्या बिलासपूर जिल्ह्यान एक धरण बांदपाचे थारायलें. भाक्रा ह्या गावांत हें धरण उबारलें. पंदरा वर्सां लागून बांदिल्ल्या भाक्रा-नानगल धरण प्रकल्पाच्या उक्तावणावेळार आपल्या भाशणान प्रधानमंत्री नेहरु हांणी 'हीं आधुनिक भारताची देवळां' असो ह्या धरण प्रकल्पाचो गौरव केलो. भाक्रा कानालाच्या उदकान पंजाब, राजस्थान, हरियाणा, चंदीगड, दिल्ली ह्या भागांतली दहा दशलक्ष एकर जमीन सिंचनाखाला आयली. ह्या सगळ्या राज्यांक भाक्रा-नानगल प्रकल्पाच्यान निर्माण जाल्ल्या वीजेचो लाव मेळटा. एकूण १३२५ मॅगावॅट वीज ह्या प्रकल्पांतल्यान निर्माण जाता.

वीज, उदक पुरवण, स्टील उद्योग अशा विंगड विंगड क्षेत्रांत नवनवीन प्रकल्प निर्माण करीत आसतना भारताच्या शैक्षणिक मळार एक जगाक दिपकावपी गजाल आकार घेताली. आमच्या देसाचो आंतरराष्ट्रीय ब्रॅंड जाला ती आयआयटी, इंडियन इंन्स्टिट्यूट ऑफ टेक्नॉलॉजी ह्याच दशकांत निर्माण जाली. पंडित नेहरुंच्या नेतृत्वासकयल्या सरकारान मे १९५० वर्सा पष्चिम बंगालच्या खरगपूर वाठारांत पयली आयआयटी स्थापन केली. अमेरिकेच्या मॅसेच्युसेटस इंस्टिटट्यूट ऑफ टेक्नोलॉजीच्या धर्तेर आमच्या देसांतूय उच्च आनी आधुनिक तंत्रगिन्यान शिक्षण दिवपी संस्था आसची ह्या ध्यासान आयआयटी निर्माण केल्यो. आज देसभरांत २३ आयआयटीज आसात. तातूंतल्यान सामके हुशार इंजिनियर तयार जातात जे देसांत आनी संवसारीक पांवड्यार नामना जोडटात.



स्वातंत्र्या उपरांत हिंदी ही देसाची राष्ट्रभाषा म्हूण जाहीर केली. १९५० सालान घेतिल्ल्या ह्या निर्णयाक दक्षिण भारतांतल्या राज्यांनी मात खर विरोध आशिल्लो. पंडित नेहरुंच्या मरणा उपरांत लाल बहाद्दूर शास्त्री भारताचे पंतप्रधान जाले. तांणी हो प्रस्न खूब समजीकायेन हाताळलो. शास्त्रीजीन हिंदी विरोधी आंदोलकांचें म्हणणे मान्य केले. १९६५ साला उपरांत हिंदी वांगडा इंग्लीश भाशा सरकारी वा हेर भौशीक कामांखातीर वापरपाक परवानगी मेळ्ळी. पाकिस्तानांन जेन्ना भारताचेर १९६५ सालात हल्लो केलो तेन्ना तांका सडेतोड उत्तर दिवपी, पयलीं आपूण स्वत: एक वेळ उपाशी रावून मागीर देसवासियांक एक वेळ उपाशीं रावपाचें आवाहन करपी, देसाच्या सैनिका इतलोच देसाच्या शेतकाराक मान दिवपी घोशणा, 'जय जवान, जय किसान' निर्माण करपी, लाल बहाद्दूर शास्त्री हांकां फकत तीन वर्सां प्रधानमंत्री म्हूण काम करपाची संद मेळ्ळी.

१९७१ वर्सांच्या डिसेंबर म्हयन्यात परत एकदां भारत पाकिस्तान गेर्र पेटलें. ह्या लडायेंचे कारण जावन आशिल्लें तें उदेंत्या पाकिस्तांनातल्यान आमच्या देसांत येवपी निर्वासित आनी अस्तगंत पाकिस्तानांन, पूर्व पाकिस्तानाचेर केल्लो अन्याय. ह्या प्रस्नाचो एकदाच सोक्षमोक्ष लावचो म्हूण त्या वेळच्यो प्रधानमंत्री इंदिरा गांधी हांणी आमचे सैनिक पूर्व पाकिस्तानांत धाडले आनी त्या वाठारांन जैत जोडलें. ह्या जैतान एक नवीन देस जल्माक आयलो. पूर्व पाकिस्तान स्वतंत्र देस जालो आनी बांगलादेश अशें ताचें नामकरण जाले. ह्या



झुजावेळा देसातल्या पेट्रोलियम कंपन्यांनी आमच्या सैन्यदळांक पेट्रोल, डिझेल पुरवपाक न्हयकार दिलो. तेदेवेळार पेट्रोलियम व्यवहार बर्मा शेल कार्लटेक्स, ब्रिटिश पेट्रोलियम, एस्सो अश्या परकी कंपन्यांच्या हातांत आशिल्लो. ही परिस्थिती अशीच उरली तर भारताक हें फुडें त्रासाचें थारतले हें आमच्यो प्रधानमंत्री इंदिरा गांधी हांच्या लक्षांत आयले. पाकिस्तान वांगडाचें झूज सोंपतगीर इंदिरा 'दुर्गा' गांधी हांणी आंतरराष्ट्रीय पांवड्यावयलो दबाव झुगारुन एक म्हत्वाचो निर्णय घेतलो. ताणी देसांतलें पेट्रोलियम क्षेत्राचें राष्ट्रीयीकरण केलें. परकी ऑयल कंपनींची दादागिरी सोंपयली आनी १९७४ ते १९७६ मजगती देसात इंडियन ऑयल कॉर्पोरेशन, हिंदुस्थान पेट्रोलियम कॉर्पोरेशन, भारत पेट्रोलियम कॉर्पोरेशन कंपनी निर्माण केल्यो. देसाच्या सैनिक दळांक जाय तेन्ना जाय तितलें इंधन पुरवपाखातीर सदांच बफर स्टॉक तयार दवरपाची सक्त ह्या कंपन्यांक केली. ह्या निर्णयाचो खूब मोटो फायदो देसांतल्या जनतेक तेन्नाय जालो आनी आयजूय जाता. हरित क्रांती हो लेगीत स्वतंत्र भारताच्या कार्यकाळांतलो म्हत्वाचो टप्पो. भारत देस कृषीप्रधान जरी आशिल्लो तरी आमची शेतीची पद्धत, बी–बियाणे ही खूब पोरन्या पद्धतीची आशिल्ली. देसाची वाडटी गरज भागोवपाक ही पद्धत बदलपाची गरज निर्माण जाली. लाल बहाद्दूर शास्त्री, इंदिरा गांधी हांणी ही गरज वळखली. एम.एस. स्वामीनाथन सारके शेतीमळावयले तज्ञांक घेवन कृषी क्षेत्रात क्रांती घडोवन हाडली. खास करून पंजाब, हरियाणा, उत्तर प्रदेश ह्या राज्यांनी कृषी उत्पादनांत खूब वाड जाली आनी खूबशी नवीन जमीन उदक क्षेत्रांन हाडली. आज भारत देस कृषीप्रधान स्वयंपूर्ण तर आसाच पुणून एक प्रमुख निर्यातदारय आसा. हाचे सगलें श्रेय १९६० ते १९७५ ह्या काळांत जाल्ल्या हरितक्रांतीक वता.

भारत देस स्वतंत्र जावन चार दशकां जाली तरी तंत्रगिन्यान क्षेत्रात देस जाय तसो मुखार सरनाशिल्लो. १९८४ वर्सा देसाक नव्या विचारांचो तरणो भुरगो प्रधानमंत्री म्हूण लाबलो आनी देसांत नवीन विचारांचे ल्हार आयले. दुद क्रांती, हरित क्रांती देसांत जाली तशीच दळण-वळण क्षेत्रांतूय बी क्रांती जाली. ही घडोवन हाडपी प्रधानमंत्र्याचे नांव जावन आशिल्ले राजीव गांधी. फुडें येवपी काळाची सुलुस राजीव गांधीक लागिल्ली. कंप्यूटर म्हणजे किदें हें खबर नाशिल्ल्या आमच्या देसाक ताणे कंप्युटराची वळख करून दिली. टेलिफोन, इंटरनेट क्षेत्रात, सल्लागार सॅम पित्रोडा हाच्या सहाय्यान बदल घडोवन हाडपी मोटे निर्णय घेतले. राजीव गांधीच्या कार्यकाळांत BSNL, MTNL निर्माण जालें आनी देसभर टेलिफोन क्षेत्राचे जाळे विणले. भारत देस आयज आयटी क्षेत्रात आघाडीचेर आसा ताचे कारण राजीव गांधीन घेतिल्लो निर्णय आनी दळणवळण क्षेत्रात तेन्ना केल्ली क्रांतीच आसा.

राजीव गांधी उपरांत पी.व्ही. नरसिंह रावासारके विद्वान, बहुभाषा कोविद अशें मनीस देसाक पंतप्रधान म्हूण लाबले. डॉ. मनमोहन सिंग ह्या अर्थतज्ञाक आपलो अर्थमंत्री करपाचो ताणी घेतिल्लो निर्णय ऐतिहासिक थारलो. राव- सिंग जोडीन, सामकी त्रासांत आशिल्ली भारताची अर्थवेवस्था फकत सांबाळ्ळीच ना तर ती एका उंच पावंड्यार व्हरून दवरली. भारतीय अर्थवेवस्था आंतरराष्ट्रीय कंपन्यांखातीर उक्ती करपाचो निर्णय तांणी घेतलो. जगभरांतल्या कंपन्यांक भारतीय बाजारपेठ मेळ्ळी. देसांत सर्त वाडली, नव्यो नोकऱ्यो निर्माण जाल्यो, ग्राहकांक फायदो जालो आनी मध्यम वर्गाच्या हातांत पयसो खेळपाक लागलो. चार चाकी, दोन चाकी गाडयो घेवपाक वर्सांची वर्सां वाट पळोवची पडटाली थंय आता कंपन्यो फोन करून ग्राहकांच्या दारांत गाडयो घेवन येवपाक लागल्यो. नरसिंहराव हांच्या अर्थवेवस्था उक्ती करपाच्या निर्णयाक तेन्ना विरोधी पक्षांनी नेटान विरोध केलो. पुणून मुखार जेन्ना हो पक्ष सत्तेर आयलो तेन्ना ताणी राव - सिंग हांचे हेच धोरण मुखार चलयलें. हाचेवरसून ह्या धोरणाच्या यशस्वीतायेची कल्पना येता.

''जो देस गिरेस्त आसता ताचे येरादारी रस्ते बरे आसता अशें न्हय, तर येरादारी रस्ते ज्या देसाचें बरे आसता तो देस गिरेस्त जाता'' अशी एक इंग्लीश म्हण आसा. ही म्हण लक्षात दवरून भारतातल्या येरादारी रस्त्यांचे काम हातान घेवपी, पूर्व, पश्चिम, उत्तर, दक्षिण अशे सगळ्या दिकांनी देसान रस्त्यांचे जाळें जोडपी पंतप्रधान अटल बिहारी वाजपेयी, पी. व्ही. नरसिंह राव हांच्या उपरांत भारताचे प्रधानमंत्री जाले. ताणीं 'भांगराळो चतुष्कोन' ही देस जोडपी रस्त्यांची येवजण राबयली. लाल बहाद्दूर शास्त्री हांणी दिल्ल्या 'जय जवान, जय किसान' ह्या घोशणेक 'जय विज्ञान' जोडून वैज्ञानिकांचो गौरव करपी, बुद्ध पौर्णिमे दिसा 'बुद्धाक हांसोवन' अख्ख्या जगाक भारताच्या अणु सामर्थ्याची परत एकदा याद करून दिवपी, आपल्या पक्षाच्या मुख्यमंत्र्यांक राजधर्म पाळ म्हणून सुनावपी, अटल बिहारी वाजपेयी हे कवी मनाचे, मायेस्त स्वभावाचे व्यक्तीमत्व यशस्वी प्रधानमंत्री थारले. भारताची मुक्त अर्थवेवस्था आनीक घटमूट जाली ती डॉ. मनमोहन सिंग पंतप्रधान जातगीर. अत्यंत शालीन, सुसंस्कृत, अभ्यासू डॉ. मनमोहन हे मुळांत अर्थतज्ज्ञ, राजकारण हो तांचो विशय न्हय. तांका नाईलाजान राजकारणात येवंचो पडलो. आपल्या ताकतीप्रमाणे ताणी प्रधानमंत्रीपदाची जबाबदारी पार पाडली. देसांतल्या खेड्यांत रावपी लोकांक पोट भरपाखातीर शारांनी वच्चें पडटा. अर्थतज्ज्ञ आशिल्ल्या डॉ. सिंग हांणी ही परिस्थिती पळोवन ताचेर उपाय काडलो. तांणी एक रोजगार येवजण तयार केली. ह्या येवजणी खाला खेड्यांतल्या मनशाक तांच्याच खेड्यांत वा गावांत कमीत कमी शंभर दीस (वर्सांतले) रोजगार दिवपाची हमी दिली. महात्मा गांधी राष्ट्रीय रोजगार हमी योजना ह्या नावांन चालीक लायिल्ल्या ह्या येवजणेन गावगिन्या वाठारांतल्या सामान्य लोकांच्या जीणेंत बरो बदल घडून आयला.

डॉ. मनमोहन सिंग हांचे उपरांत श्री.नरेंद्र मोदी हे भारताचे प्रधानमंत्री जाले. देसांतल्या गरीबांतल्या गरीबांक बरी वैजकी सेवा मेळपाखातीर ताणी 'आयुष्यमान भारत प्रधानमंत्री जन आरोग्य योजना' सारकी येवजण राबयल्या. देसांतल्या बावीस कोटी लोकांनी ह्या येवजणेचो लाव घेतला. भारताच्या शेजारा आशिल्ल्या अफगाणिस्तान ह्या देसात वा युरोपातल्या युक्रेन ह्या देसांत भिरांकूळ परिस्थिती आशिल्ली अशा वेळार त्या देसांनी आशिल्ल्या भारतीय नागरिकांक सुखरुप परत

देसांत हाडप गरजेचे पूण कठीण काम आशिल्लें. प्रधानमंत्री नरेंद्र मोदी हांच्या राजकीय कौशल्यान आनी आंतरराष्ट्रीय पांवड्यावयल्या स्थानांक लागून हें सहज घडून आयलें. 'ऑपरेशन देवी शक्ती' राबोवन युक्रेनाक आशिल्ल्या ७०० भारतीय नागरिकांक, विद्यार्थ्यांक भारतांत परत हाडले.

फाटल्या पंतप्रधानांनी आपल्या परीन देसाची सेवा केल्ली आसा. फकत प्रधानमंत्रीच कित्याक, तर देसातलो प्रत्येक ल्हान, व्हड नागरीक आपल्या ताकतीप्रमाणे देशाच्या उदरगतीखातीर आपले योगदान दिता.

भारताच्या स्वतंत्र दिसाचो अमृत महोत्सवी दीस साजरो करीत आसतना खूब आनंद जाता. पुणून कांय वेळा मन खंतीय जाता. देसाच्या पयल्या प्रधानमंत्र्यान धरणां, पूल, स्टील कारखाने, उद्योग हांका 'आधुनिक भारताची देवळां' अशें म्हणिल्ले. आज आमचो देस खंयच्या दिकेन वता? आज आमी आधुनिक देवळां बांदपाची सोडून, देव-देवतांची देवळां बांदत आसा. चारशे-पाचशें वर्सां पयलींचो इतिहास उस्तून काढीत धर्मां-धर्मांमदीं द्वेष पेरपाचे काम करीत आसा. आमचो देस फुडें वता काय फाटीं वता असो प्रस्न केन्ना-केन्नाय पडटा. धर्म, देवळां हो सत्तेर येवपाचो राजमार्ग म्हणून राजकारणी वापरत आसात. ही वाटचाल देसाखातीर खूप धोक्याची जावन आसा. देसाची अखंडता तिगोवन दवरूंक जाय जाल्यार सगळ्या जातीचे, सगळ्या धर्मांचे लोक एकचारान रावप गरजेचें. तांच्यात फूट घालून राजकारणी आपलो कांय खिणांचो स्वार्थ सादतात. पूण देसाचें मात हातून व्हड नुकसान जाता. समाजांत द्वेष पसरता, दरेक मनीस दुसऱ्या जातीच्या-धर्माच्या मनशाक अविश्वासान पळयता आनी देसाची अखंडता विस्कळीत जाता.

फाटल्या आठवड्यात आनीक एक वायट गजाल कानार पडली. इ. व्ही. रामस्वामी जाका तामीळनाडूत थंथाई पेरियार म्हूण वळखतात ताणे साठ वर्सांपयलीं तामीळनाडू राज्य स्वतंत्र आसचे अशी मागणी केल्ली. ताका तामीळनाडूंत विरोध जालो. पक्षांत विरोध जालो आनी डीएमके हो नवो पक्ष जल्माक आयलो. गेल्या आठवड्यांत डीएमकेच्या एका नेत्यान परत एकदा तामीळनाडूच्या स्वातंत्र्याची मागणी केल्या. द्रवीडनाडू असो स्वतंत्र प्रदेश करून पेरीयाराचे स्वप्न मुखार करपाची धमकी ताणी दिल्या. ३७० कलम रद्द केले तरी काश्मीर धगधगता, अजुनूय खालीस्तानाची मागणी जाता, आनी आता द्रविडनाडूची फुटिरवादाची ही प्रवृत्ती वेळारूच नश्ट करप गरजेचें आसा. 'अनेकता में एकता' आमच्या देसाचें खाशेलेंपण जावन आसा. आनी हीच एकता आमचें बळ आनी सामर्थ्य. आमी जेन्ना 'भारत माता की जय' म्हणटात तेन्ना तो जयजयकार कोणाचो आसता? भारताच्या जनतेचो, जण एका भारतीयाचो तो जयजयकार आसता.

भारताच्या आझादीचो अमृत महोत्सव साजरो करून आतां आमी फुडें वाटचाल करतात. ही वाटचाल करतना देसाची एकता आनी अखंडता तिगोवन दवरपाखातीर आमी झटूंया, देसाचो जयजयकार करपाच्यो नवे अवसर निर्माण करूंया. सगळ्यांक अमृत महोत्सवी स्वातंत्र्य दिना निमतान परबी. भारताचे स्वातंत्र्य चिरायु उरूं!

संपर्क: 9665876860

***



# शंकर रामाणीची कविता

**नूतन साखरदांडे**

आपल्याक जशी कविता दिसता तशी कविता येना म्हणत एका असमाधानान जगपी पुण अशें म्हण्टनाय बी कोंकणीक एक बळीश्ट आनी यशवंत कविता दिवपी व्रतस्थ कवी म्हळ्यार सर्गेस्त शंकर रामाणी हाची जल्मशताब्दी आमी हालींच मनयली. तांचो जल्म २६ जून १९२३ वर्सा बेती बार्देस हांगा जालो. १९४३ वर्सा मॅट्रीक जावन ते रोखडेच नाविगासांवांत नोकरेक लागले. भुरगेपणांतल्यान तांका कविता वाचपाची आनी बरोवपाची आवड. फामाद कवी बा. भ. बोरकार आनी श्री. दामोदर अ. कारे, हे तांचे आवडटे कवी. सुरवेक 'सत्यकथा' ह्या मराठी मासिकांत ते कविता बरोवंक लागले. मराठींत एकापरस एक कविता दिल्या उपरांत तांणी कोंकणी कविता बरोवंक सुरवात केली. कवी बाकीबाब, दा. अ. कारे, पांडुरंग भांगी ह्या कवीं वांगडाच तांच्या कवितेचो प्रवास सुरु जालो. तांचेकडेन शब्दांचे व्हड भांडारुच आशिल्ले. गिरेस्त अशी उतरावळ आनी प्रतिका-प्रतिमांचो सुचक वापर करून तांणी निश्ठेन कवितेची साधना आनी सेवा केली. 'जोगलाचे झाड', 'ब्रम्हकमळ', 'निळे निळें ब्रन्ह' आनी 'निरंजन' हे ताचे कोंकणी कविताझेले.



रामाणीच्यो कविता म्हळ्यार जोगलाचें झाड जें जोगुल जावन तांच्या आंगान पेटत आसतालें. तांची कविता ब्रम्हकमळ कशें फुलुन येवन रसिकांक मंत्रमुग्ध करताली. ह्या निळ्या निळ्या ब्रम्हांत तर तांची कविता व्यापून उडयल्लीच आनी रामाणीन निरंजन कशी आपली कविता काळजाच्या देवाऱ्यांत दवरली आनी निमण्या स्वासामेरेन पेटत दवरली. केन्नाच पालोवंक दिली नां.

सांगपाचें म्हळ्यार रामाणी अक्षरशः कविता जगले. 'जेथे जातो तेथे तू माझा सांगातीं' अशी कवितेन तांका जल्मभर सांगात दिलो. ते उलयताले कवितेविशीं, बरयताले कवितेविशीं. कविता सोडून तांणी कसलोच साहित्यप्रकार केळयलोना.

ते म्हण्टात,

'कविता,
खंयच्यान?
कशी?
कोणाक सांगून - संवरून येता?
कविता येता...
पुण केन्नाच उलो मारिना,
दाराकय मारिना,
तिका काळवेळ. मातय लागना
ती अचकीत
पावली मारीत येता आनी
मोर कशी
मनाच्या माचयेर नाचत रावता.
कविता येता...
हांव फकत तिका येवकार दिता
आनी खासा तिगेल्याच
हांवे आपणायल्या उतरांनी
तिचें मखर सजयता'

सगळ्याच कवीक सैमाचें आकर्शण. सैमाचें एक अळंकार. कवी वापरना तसोच गेय कवितेंतल्यान कवी सैमाचें एक सौंदर्य चित्र चितारता.

अशी निसर्गचित्रां कवी रामाणीन खूब फिशालकायेन पितारल्यांत.

कवी रामाणीच्या सैमाच्या कवितेंत आशावाद आनी जीवनवाद आसा आनी हे कित्याक घडलें तर तांचो जल्म निसर्गाच्या अश्या मांडवी न्हंयच्या देगेर वशील्ल्या बेती गांवात जाल्ल्यान दोंगर, न्हंयो, माड माडयो, दर्या, दर्यादेगो, व्हडी वाफोर, पानां फुलां, झाडां, रानां, कुळागरां तशेंच सुर्य, चंद्र नखेत्रां, चान्ने, पुनव, उमास, सुर्योदय, सुर्यास्त, वारो, पावस हें सगळें तांच्या दिसपट्ट्या जिणेचो भाग जावन तांच्या कवितेचेर हो सैम राज्य करता मागीर ती प्रेमकविता काय आसना!

तांच्या सृजनशील आनी संवेदनशील मनाक ह्या सैमान पिशें लायलें. तांका ते वेगवेगळ्या पिरायेर, वेगवेगळ्या रुपान दिसूंक लागले.

देखीक तांच्या कवितेची नांवांच घेवया. जोगलांचे झाड, आबोलेच्या ओठांत, पांचवेचार स्वप्न, मोगरे कळी, वाऱ्या वाऱ्या, उटंगाराच्या पावसान, उमाशेच्या मळबार, पांचवी शेतां, आमोरी, म्हट्टो, जास्वंद, कविता काळखा-चान्न्याच्यो, फाल्गुन, वैशाख, एक पावशी तिनसान, माड, चांफेल्ली, दनपार, वाफोर, सरत्या

श्रावणांतल्यो कविता सवणे, जोरगत, मीर्ग, वारो - मोर आनीकुय खूब आसात. हीं फकत कांय उदाहरणां–

एकेकदां दिसतां रामाणीक ह्या सैमान पिसोच केल्लो. देखीक सैम हो केंद्रबिंदू धरुन आपलो विरह उक्तावपी 'प्रिय' ही प्रेमकविता एक बरें उदाहरण.

**प्रिय**

तुजें पत्र पावलें
तुवें बरयलां;
खूब दीस जाले
हांगा, वारे वादळ वेंगावन
झाडां पेडां हुमटावन उडोवपी
खूनयाळो पावस पडटा
आनी कित्याक कोण जाणा!
तुज्या काथ लायिल्ल्या उगडासानी पेट घेतला:
मन हुंवारुन बावलां;
जीव थाऱ्यार ना.
हांव
तुजेपरस कितलोसोच पयस
आशिल्ल्या ह्या अनवळखी गांवात
पावसाची मातूय सुलुस ना;
मळब गिमाच्यो रखरखीत जांबोयो काडटा;
जीव तानेक भायर-भितर आशेला
पुण तुजें पत्र वाचीत सावन
पुराय निर्शेल्ल्या काळजाच्या अंतराळांत
अवचित जोगलां मारून
कुपां माडुंक लागल्यात आनी
वारें-वादळ शिरंत्रात घुसून –
- घुस्मटून उंटगाराचो पावस केन्ना
झडत हाचो नेम ना.

तांच्या कवितेंत सैम केन्ना उदास, केन्ना अस्वस्थ, केन्ना ओग्गी, केन्ना फुगार, केन्ना दुख्खी, केन्ना म्होवाळ, केन्ना गावपी, केन्ना रडपी, केन्ना मोनो, केन्ना बडबडपी अशा सैमाच्या विविध रुपांचे दर्शन आमकां कवितेंतल्यान घडयता, तेंय बी मेजक्याच उतरांनी.

तांच्या ब्रह्मकमळांत घमघमपी वोंवळां येतात. आनी रित्या पोशांत थार नासतना झडत रावतात. सुकणीं सवणीं दिसभर हुंगिल्लें मळब घेवन आपल्या घोटेरांत परततात आनी रातीकडेन सपनां कुशीत घेवन सुस्त न्हिदतात. तांच्या कवितेंत चतुर्दशीचें चान्नें शिरंत्रां आकुळपी शियां कुडकुड्यांत दंवात वितळायल्ल्या चिंचेपानार कुरंगुटी करुन अळंग न्हिदता. आपशींच जाल्ल्या अशीर खळयेच्या देगेदेगेर उदेल्ल्या सानुल्ल्या रंगयाळ्या ओलसार आळवा पानांचेर सोबीत सुर्यकिरणां हारशेतात.

मळबाच्या वाठारांत तर तांचे जोगलांचे झाड लखलखून पेट्टा आनी जळटाय बी. पुनवे भारार तांच्या चुडटाक चान्न्या धार चडटा. तशेंच वताकडार चाफ्यांक भार येवन घर परमळटा खरें, पुण घरामुखावेल्या पिंपळापानार एका मोगिकेचे मन तळमळटा. कित्याक तर तिच्या मनांत एक पिंपळ सळसळटा. नखेत्रांचे दुदा दोळे पळोवन तांच्या मनाची मोगरे कळी मुरगुट्टा आनी ताळयेच्या तन्न्या मांडयेर वाऱ्या सुरान घोलता.

मोगरे ताळयेच्या तन्न्या मांडयेर कितली सुंदर प्रतिमा हांगा कवीन उबी केल्या.

जोगलांच्या झाडांत कवी म्हण्टा:

'आयली दडक;
भिजून गेलें
पांचवे तुजें रान गो
पाचवें तुजें रान...
दाव्या दोळ्यान देखलें आनी
सुटलें म्हजें भान गो
सुटलें म्हजें भान...'

संवेदना भावना आनी विचार हांचो सुंदर सुमेळ हांगा जाल्लो दिसता.

ही कसली दडक? आनी भिजून गेल्ले पांचवे रान म्हळ्यार कितें अश्यो अनेक आशयप्रतिमा निर्माण करून कवी वता आनी हातूंत कवितेचे सामर्थ्य जाणवता.

निळ्या निळ्या ब्रम्हांत तांच्या थकिल्ल्या पावलांक नवी आंकवार वाट फुटिल्ली दिसता. किशोरी आमोणकाराचो यमन आयकून तांचे मन तृप्त आनंदान भरता आनी कार्तिकांतल्या मळबांतली नखेत्रां पेटील्ल्या पणट्याच्यो माळो जावन घरभर परजळटाना दिसतात.

निळें निळें मळब मनांतल्या मनांत भुरकटून दोळ्यांत हारशेता आनी सपनांची घुंगरा बांदून झाड भायर भितर पाळेता.

केन्ना केन्ना तांच्या अनवळखी अक्षरांक पांचवीचार वाट फुट्टा आनी नवरात्रांतलें नमीचें चान्नें कशें तांची मोगिका तांच्या सांगाताक आशिल्ल्याचो भास जाता. पौशांतली दंवात न्हाल्ली धुल्ली फांतोड सैमाचो घमघमीत वास आशिल्लो हातो माळून उदेत्या सुर्याक येवकार दिवंक नटून थटून रावता.

रामाणी एक चित्र काडटा आनी त्या चित्रांक एक धवे धादोशी सांजवेळचे मुमुरखें मळब, ताचे खाला अंतपार नाशिल्लो शांत समुद्र आनी दक्षीण दिकेक, पयस, माथ्यार कुकुल्या घराची घुमटी घेतिल्लो एक पांचवोचार दोंगर, ताच्या मुळसांत सात आठ तरणाटे माड आनी मात्शी चार पावलां फुडें पाणयांत रिगिल्ल्या दोंगरांच्या तोकामेरेन पिठ्या लाडवावरी धवीफुल्ल वेळ.

तांच्या कवितेच्या आंगणात मोर पिशे कशे नाच नाच नाचतात. आनी आंगणात उमाळ्यांचो फुलांशिंवर करतात.

निरंजन ह्या तांच्या निमण्या कविताझेल्यान ताच्यो कविता आत्मनिश्ठ दिसतात. ते परतून परतून आपल्या फाटल्या जीणेकडेन वळून पळेतात. भुरगेपणांतलो हातांतल्या दांड्याचो खूळ खूळ असो

वाजोवपी पदेराच्या गुळगुळीत पोटाचे हुनहुनीत तोर्राद उंड्याचो घमघमीत वास तांका भुरगेपणान पावयता.

निरंजनांत ते म्हज्यांतले हांव सोदता निमणे कांय कांय कविता आत्मकथनाकडेन वळटात, तांका दिसता दिशीदिशी तांच्यातल्या जल्मजात अहंकाराचे आंगोस्तर जिरजिरीत पोन्रे म्हेळके जालां तेन्रा ताका भर उमाडो तिनसाजच्या कात्रीर, निर्जनवेळार न्हंयच्या नितळ पाणयान बुचकळावन काडपाक जाय. केन्रा केन्रा तांका दिसता तांच्या काळजाभीतर आशिल्ल्या कुर्कुटश्या कुडीन आनी तिका हय न्हयश्या आशिल्ल्या नाखटायेद्या जनेलांतल्यान तन्या आडसराच्या पातळ कातलेवरी फांतोडेच्या उजवाडाची तिरीप रिगून अदिश्टान आपखोशयेन ओपिल्ली अवभूत स्नानाची पुर्वपुण्याय भास आभासाच्या ल्हवपीक लयीत केळोवंक जाय आनी निरंजनातल्या ह्या कवितेचो हांव उल्लेख करीना जाल्यार हांव रामाणीचेर अन्याय करतलेशें दिसतलें.

**तमसोमा**

अख्खी पिकिल्ली जिणेची सांज
अदीकच सांबाळटा...
आनी निखटें निवळ एकटेपण
वांट्याक येवंक लागिल्ल्या
एकोडे वांटेतल्या रुखाच्या
सांवळ्याच्या सासायेकडेन
शिट्रूक नदरेन पळेताना
सुवर्णकांतीची एक वेगळी झळझळीत झांक
काळजाच्या कोठयेकुडीत ल्हवूच रिगता.

तर उप्रांत तो तनरेच्या झोपाळ्यार बसता. हांगा एक विरोधाभास आमकां पळोवंक मेळटा.

फांतोड सुर्या, भुरगेपण हो एक मुरकुटो भासूच. कवी म्हातारपणाच्या काळखांतल्यान उजवाडाकडेन वचूंक सोदता. म्हणुनूच तो निमणेकडेन म्हण्टा: तमसोमा जोर्तिगमय -आमकां काळखांतल्यान उजवाडाकडेन व्हरात. ही खरी म्हळ्यार अध्यात्मीक अवस्था. हो उजवाड म्हळ्यार मर्ण काय? असो हयन्हयसो प्रस्न म्हाका पडटा. कदाचीत कवीक दिसता आसुंये मर्णातूच खरो उजवाड आसता. जिवितार्चे अविरत घुंवपी चक्र हांगा स्पश्टपणान कवीन मांडला देखुनूच अस्सल अणभवाची ही कविता काळजाक खुपूच भिडटा,

म्हाका तांच्यो कविता वाचतकच जाणवलें कीं कवी रामाणी आत्मनिश्ठ कवी आशिल्ले आनी चडशे स्वानुभवाचेर बरयताले.

काय कवितांनी ताणी आपल्याच जिवितांतले प्रसंग रेखाटल्या अशें दिसता इतल्यो त्यो कविता जित्यो तट्टतटीत जाल्यात. तांच्या प्रतिमेची आनी शैलीची वेगवेगळीं तासां कवितेंत पळोवंक मेळटात.

काळोख हो आमचेखातीर जरी काळोख आसलो तरी रामाणीन काळोखाचेर निस्सीम प्रेम केलां. ताणी हो काळोख केळयला, पचयला काळोख पियेलाय म्हणपाक हरकत ना.

देखीक कांय कवितेच्यो वळी

१) खोल काळखान बुडी मारून केन्रायतरी
खरीक पावतकच उजवाडाची तिरीप सोदता.

२) उमाशेचे वारे सावळ्याक पिशें
रातीच्या कानांत काळखा शिशें

३) काळखान काळोख पिकिल्ली जीण
मातयेन रुजल्यात घामेल्ले खीण

भर उमाशेची काळे मांजर कशी काळी कुळकुळीत रात आनी अशा ह्या रातीचो कवी एकलोच दाट काळखाचे बोट धरून खंय वचूक भायर सरला काय हाचो प्रस्न वाचकांक पडटा.

ह्या काळखाचे बोट निळे निळे ब्रम्ह ह्या कवितेन तांणी सोडिल्ले दिसता. आनी ह्या संग्रहात खूब आशावादी चित्र दिसता आनी रामाणीची वेगळी कविता हांगा वाचूंक मेळटा.

जायत्या समिक्षकांनी रामाणीची कविता दुर्बोध म्हूण ताचेर ठपको लायला, पूण कोंकणी कविता म्हजे नदरेन दुर्बोध न्हय, जितले फावटी तूं वाचता तितली ती तुका कळत वता. एकदां तांचे कवितेचो पोंत सांपडलो की तुका समजुपाक सोपी जाता.

तांची कविता तांची जीण, अनुभवविश्व, एकलेपण, उदासीनता, शुन्याकडे दोळे लावपी, जीणेच्या प्रवासांत स्वतःक सोदीत रावपी केन्रा केन्रा आध्यात्मिकतेकडे ओडटा. तांची प्रेम कविताय तितल्याच ताकदीची आसा ताचेर वेगळे बरोवपाक जाता.

तांची कविता म्हळ्यार एक प्रकारचो आत्मसोद. ते जी जीण जियेता जे अणभवता ताचो सोद, बोध घेवपाचो प्रयत्न आपल्या कवितेंतल्यान ते करतात.

तांच्यो चडश्यो कोंकणी कविता मुक्तछंटात आसा आनी मुक्तछंदाचेर ताची बरीच पकड आसा आनी खूप सुंदर अशो कविता ताणी दिल्या.

देखीक 'सगत'

रामाणी एक काव्ययात्री. कवितेचो ध्यास घेवपी कवितेचो अभ्यास करपी आनी कवितेचो व्यासंग आसपी, कवितेची खर साधना करून कविता जगपी ह्या म्हान कवीची आगळीवेगळी नोंद कोंकणी साहित्याच्या इतिहासांत सासणाची उरल्या आनी उरतली.

संपर्क : 9970445778

***







# कोंकणीचो अभ्युदय

**मुकेश थळी**

एक चाळ आशिल्ली. चाळ म्हळ्यार किर्ते, हें जाणून घेवपाचें आसल्यार श्रीपाद देसायाले चार खंडी शब्दकोश बी 'चाळू'क वचूं नाकात. तो आतां मेळना. बाळकांक तसलो कोश आशिल्लो हें खबर ना तेंच बरें. तांकां खूब गजाली खबर नात. त्यो खबर आसुंकूच जायश्यो नात.

घाणेकारालो पोटलो कसो, चिरो कसो कोश आसा तो पळेयात. मानाय मात जाय पडटालो तो उखलपाक आनी उगडपाक.

चाळींत दाव्यान दुसऱ्या बिराडांत दोन चलयो रावताल्यो. चलयो काय बायलो, आमी नकळो. एकलेचें नांव - नटीकला आनी दुसरेचें नांव चंचला. नटीकला दीसभर नट नट नट्टालें. पोले थाप थाप थापतालें. हरशीं दिसतालें सुंदर पूण ते पेंटाचे थर लार्गीच्यान पळेतकच बुरशेंशें दिसतालें. कोविड काळांत नटीकलाचे काय नटीकलेचे (शुद्धलेखन तज्ञांक विचारात रे बाबा) हाल जाले. ब्युटी पार्लरांत रंगूंक वचूंक मेळना. रंग हाडूंक मेळना. लॉकडावन. रंगून भायर मिरोवंक मेळना कारण कार्यावळीच बंद. तीं दोगांय बंद हाचो उच्चार बत्र असो करतात. विचारल्यार तुमकां फोनेटिक्स कळना अशें सांगतात.

चंचलाचें मन म्हणजे फॅन कसो. फॅन म्हळ्यार पंखो आनी चाहतो अशे दोन अर्थ जातात. (सविस्तर प्रकाश थळी वा गुरूनाथ केळेकार हांच्या कोशांत पळेयात.) चंचलाचे तकलेंत दुनियाभर की बातें. ताका वाड्या वयल्या लोकांनी 'आज तक' अशें नांव दवरलां. सगळ्यो गजाली ताका खबर आसतात. कोण ताका कावळ्या आवय म्हणी. कोण भवती भागरथ. आनीकूय कोण कोण खूब किर्ते उलयी. म्हणी. पाड पडूं तांचें. लोक म्हळ्यार ओंक अशें एका कोंकणी म्हालगड्यान म्हळां. (कोणें तें प्रोस्सोरांक विचारात)

एक दीस चाळींत फुलू आयलें. खंयच्यान अवतरलें देव जाणा. फुलू उतराचो अर्थ किर्ते अशें एका दोतोराक विचारलें. दोतोर म्हळ्यार इनिसांवां दिता तो न्ही. दोतोर म्हळ्यार खू-ब पयशे (ब्लॅक) घेवन केस लडोवपी आदवोगाद न्हय. दोतोर म्हळ्यार कठीण असो शंबरेक पानांचो संशोधनात्मक प्रबंध बरयता तो. (निबंद जाता, प्रबंद कित्याक न्हय अशें मुकेश थळी विचारीत आसता. कानार केंस काडात)

दोतोरान सांगलें - फुलू ह्या नांवाक त्रिस्तरीय संचरना आनी आशयगर्भ आयाम आसात. घनगर्भ अशे पदर. ताचें विवरण (म्हणजे विवेचन आं) करप सोपें न्हय. (विवरण मड्याचें) हें पळें जें फुलू अभिप्रेत आसा ताच्या नांवाचे तीन स्तर म्हळ्यार तें फुलासारकें सुंदर. तें दुसऱ्याक गोड उलोवन फुलयता. तें फुलयतकच फुलता. दोतोरान एक पद म्हळें. 'फूल रे फुला फूल फूल, भाईन पेटयली चूल चूल.'

ही कविता कोणाची अशें विचारल्यार भोवआयामी स्तरांतल्यान उप्रासपी उमाळ्यांच्या अर्थपुराय... अशें सांगून दोतोर तकली फोडटलो म्हूण कूस मारली.

तात्पर्य- खरेंच मगा. फुलून नटीकलाक आनी चंचलाक फुलयलीं. कांयच न्हय करून बिराडांत रीग घेतलो. बरें जमलें तांचें त्रिकूट. शिमिट आशिल्लें तांचे मदीं. तें आयकात.

फुलूक कोणे तरी कोंकणीचें पिशे लायिल्लें. ते जंतू ताणें नटीकलेक आनी चंचलाक लायले. संसर्ग वाडलो. जीव खेळोवपाक किर्ते तरी माची जाय आशिल्ली. नटीकलेक नटून मिरोवपाक मेळ्ळें. चंचलाक ढवळ्यांक विश्व मेळ्ळें. मजाच शी. न्हू?

चाळींत कोंकणी प्रोग्राम बी जावपाक लागले. फुलू लोकांक फुलोवन आपयतालें. सायनस विशयाचेर फुलून लेक्चर झाडलें.

एसिडीटी विशयाचेर चंचलान पेटयलें. नटीकला नटत आशिल्लें. भयरोजोळोप हाका पाड पडिल्ल्याक म्हणत फुलू घरा गेलें आनी ताणें नटीकलाक हाडलें. ताणें काळीज उसवलां ह्या विशयाचेर लेक्चर दिलें. म्हांबऱ्यालें ललीत आनी 'कार्डिऑलॉजिकल व्हेन्ट्रीकल क्लिनीकल इश्यूस' ह्या विशयाची ताणें बरीच सांगड घाली. काळजाक नाल्लाची सोय वायट म्हूण सांगलें. वालोर! जानोत! घोस्त रे! अशें एका मडगांवकारान छाती बी मुखार काडून म्हणटकच नटीकला फुलूभशेन फुललें. चंचलान नटीकलेक शादू केलें - तो धड न्हय गो. तुज्या बऱ्या खातीर सांगतां. बेठोच फुलयता. ताका पल्मनरी व्हेन आनी कार्डीओव्हॅस्कुलर हाचें स्पेलिंग येना.

नटीकलेच्या तोंडार म्हळ्यार मुखामळावयलो रंगाचो लेपोड घाम आयिल्ल्यान चुलीचे थर देंवतात तसो देंवपाक लागलो. प्रोग्राम वायटसो जालोना.

चाळी कुशीक कोंकणीचे प्रोग्राम खूब जावंक लागले. फुलू नटीकला चंचला हो त्रिकोन म्हणजेच कोंकणी अशें समीकरण जालें. म्हणजे तांणीच तें तशें स्वताचेर प्रेम करून स्वताची महती गावन गावन केल्लें.

चाळीचो पात्रांव मशणो पारवडकार हो ह्या चाळींतल्या चांचाळाक विटलो. आत्र्या पयऱ्यान प्रोग्राम. रातीं उसरां मेरेन कोण कोण अवचित्रमारे लोक ह्या त्रिकोणागेर येवप. रात दीस कसलेंच धंगण ना. विचारल्यार कोंकणीचो अभ्युदय म्हणप. हे शब्द आयकून पात्रांव मशणो गरगरलो. धुंवलो. फुलू, नटीकला, चंचला सुखान रावपाक लागलीं. पात्रांवान मात कानाक पीळ घालो. पडूं पाड. चाळ रिती उरल्यार जाता. कोंकणी नेगेटीव्ह प्रमाणपत्र आसल्या बगर भाडेकरू घेवपूच ना.....

संपर्क : 9545827662

***

# कोंकणीचो हवामहल...!

**दिलीप बोरकार**

कोणें तरी विचारलें, 'सरकार कोंकणी अकादेमी बांदता खंय..?' कोणें ती याद जायना, आनी दवरपाचीय तशी गरज ना. आतां कोंकणी आदलींवरीं थोड्यांचीच मक्तेदारी उरूंक ना. ती आतां भौसा मेरेन पावल्या अशें म्हणूं येता! जेन्ना खंयचीय गजाल भौसा मेरेन पावता तेन्ना ती भौसाची जाता. तेन्ना भौसांतल्या कोणा कोणाची म्हूण हे पिरायेर याद दवरपाची..!

हांवें ताका विचारलें, ''हें तुका कोणें सांगलें रे सभाग्या..?

कोणाकूय अजाप दिसूं येता, हाणें 'एक्सा' सुवातेर 'सभाग्या' शें वापरलें..?

ताकाय रजांव आसा, हांव सद्या राष्ट्र उभारणेच्या वावराक लागलां. एक राष्ट्र, एक धर्म, एक भास, एकूच रंग अशें कितें तरी म्हाका जाय आनी असल्या ह्या दैवी वावरांत एक्साची आडखळ जावं येता.

म्हज्या अभ्यासा प्रमाण जायते लोक आडखळ जाता म्हूण एक्सां काडटात. आनी हांवें राष्ट्रा पासत एक्सां त्यागलीं जाल्यार कितें घात जावंचोना!

एक मात खरें, हांव सामाजीक भान बाळगी नासतना मुक्तपणान एक्साची उधळण करत गेलों. समाजांत भावना आसतात, त्यो दुखावतात हाचें भान म्हाका एक्साच्याक उरलेंना. ताचो पश्चताप जायना पूण राष्ट्र उभारणी पासत जमता तें सोडचें मनशान. तातूंत पाप कांय आसना. वेल्यान देव सामको समर्थपणान फाटल्यान रावता. अशें म्हाका दिगंबर कामतीन एकदां म्हणिल्ल्याची याद जाता.




हांगा परतुनूय कोणाक दिसूं येता, हाका दिगंबर याद उरता पूण कोंकणी अकादेमीची खबर विचारपी याद उरना. तशें जालें खरें, आयज सामकी दिगंबर अवस्था जावन गेल्ले कोंकणी अकादेमीची खबर कोण घेता आनी तो कोण हाची नोंद हांव घेना.? हो हंत हंत!

पूण ताका हांवें एक गजाल विचारिल्ली ती म्हाका याद जाता.

ताका हांवें विचारिल्लें, तुका कोणें सांगलें रे हें सभाग्या..?

ताणें सांगलें, संजीव वेरेंकारान..

संजीव वेरेंकारान म्हणटकच तातूंत तथ्य आसूंकूच जाय. तो 'काड एक्स आनी मार एक्सार' करचो ना.

ताणें तुका सांगलें अशें? दामोदर घाणेकारा वरीं हांव ताका दसलों.

ना, ताणें फेसबुकार पोस्ट घाला.

म्हाका तो फेसबूक बी व्हडलेंशें कळना. सोदूंक गेल्यार तोंडाक फेस येता. म्हणटकच हांव 'संजीवाच्या आनी तुज्या तोंडांत साखर पडूं' म्हण म्हज्या वावराक लागलों. तरी कोंकणी अकादेमीचो विशय तकलेंतल्यान गेलो ना. साखरेक मूय दसची तसो तो दसून रावलो.

खरेंच सरकार बांदता काय कोंकणी अकादेमी? बांदूक जायच जाता तितले बेगीन. कोंकणी पासत बिसत न्हय, अध्यक्षा पासत. आदीं हे वास्तूंत कितलोच कर्मचारी वर्ग आसलो. उपरांत एकएकलो निवृत जावन गेलो. आतां दोगतीग उरल्यात ते ह्या वर्सा मेरेन जातले. तितले मेरेन ही वास्तू उबी उरूंक जाय. ते पासत अध्यक्ष प्रयत्न करता बाबडो. निमणो कर्मचारी निवृत जायसर ताका वयलें पाखें सकयल देंविल्लें नाका. शेवटी कॅप्टन म्हणटकच निमणे मेरेन अकादेमीची बोट तो त्यागूक शकना. प्रिन्सिपलाचो मनीस..! तातूंत आनी प्रिन्सिपाल म्हूण निवृत्त जाल्लो.

हालींच गेल्लों हांव खबरीक, उटंगाराच्या पावसांत. ताचे न्हय अकादेमीचे. उरिल्ले सुरिल्ले कर्मचारी सत्री फुलोवन काम करताले. अध्यक्षांक विचारलें, कितें चल्लां? तर ताणें वयर पळयलें. म्हाका दिसलें देवाचो भरवंसो दिता. पूण तो सकयल देंविल्लें पाखें दाखयतालो. पाटयो, नळे केन्ना देंवत सांगू येना आशिल्लें.

कितें वेवस्था केल्या? म्हजो प्रस्न.

म्हेडी मागल्यात सरकारा कडेन. धिगयो लावपाक. सरकारी प्रकल्पां पासत ब्याण्णव हजार झाडां मारल्यांत अशी जाप वनमंत्र्यान विधानसभेंत दिल्याच. तातूंतल्योच मेळूं येता. ते म्हणसर हांचेर भागयतां!

पुस्तकांचे गठ्ठे दाखयत ताणें सुस्कार सोडलो.

तें कशें कितें?

प्रकाशन पालव येवजणेंतलीं पुस्तकां घेतल्यांत ह्या वर्सा. एकार एक मांडल्यार पारेतीचें काम भागूं येता!

पुस्तकां बदला तेच पयशे दुरुस्ती पासत वापरूं येताले! हांव एकदां अध्यक्ष आशिल्ल्याची म्हाका याद जाली.

कोसळिल्ली इमारत परत बांदूं येता, पूण लेखकाचें बरप थांबलें जाल्यार तें सुरू जावप कठीण. तें कोंकणीक मारक. देखून पुस्तक खरेदीक प्राधान्य दिलें. स्वार्थूय जालो आनी परमार्थूय जालो. तातूंत आनी नवे लेखक चार जाणकारांक दाखोवन छापूंक रावनात. बरयलें काय छापतात आनी गठ्ठे घेवन आमचे कडेन येतात. मागीर ते आमी अशे वापरतात. कोंकणीचो फुडार पळोवंक जाय काय न्हय? अशें विचारून ताणें परतून वयर पळयलें.

आतां ताणें कोंकणीचो म्हापुरूस शणै गोंयबाबाक वंदन केलां आसूं येता!

कांय लोक आजून शणै गोंयबाबाक मानतात तें एक बरें दिसता. हालींच गोरख म्हूण एकलो कोण तरी मेळिल्लो. तो गोंय विद्यापीठांत कोणाचे तरी मॅटर्निटी लिवेर शिकोवंक आयिल्लो खंय, टेम्परवारी!

माथ्याक मुंडासो, कपलाक गंधाचो नाम आनी आंगार शेलो पळोवन हाणें समग्र शणै गोंयबाब पचयला म्हणपाचें कळटालें. हांवें विचारलें, तूं शणै गोंयबाब बी शिकयता? तसो लजलो आनी पयलीं ओगी रावलो. मागीर 'सदा वत्सले' म्हणिल्लेवरी मान ताठ करून प्रस्न केलो, तुकां कशें कळ्ळें?

तुज्या एकंदर व्यक्तीमत्वा वेल्यान. शणै गोंयबाबाचें तुका कितें आवडलें? म्हाका शणै गोंयबाब थोडो कळटा म्हूण ताका विचारलें.

कितें आवडूंक ना तें सांगतां. तांचें 'गावड्यांक पंडीत करून आमी सगळेच पंडीत जावंया' म्हणटात तें म्हाका आवडूंक ना. हांवें म्हाजे हे टेम्परवारी नोकरेंत कोंकणी विभागांत कितलेच पंडीत जाल्ले पळयले. म्हणटकच फुडाराक आनीक आनी पंडीत नाकात म्हूण म्हज्या विशयांत सगळ्यांक नापास करून उडयले.

अशें म्हणत तो खांदार शेलो उडयल्ल्यावरी करत, कुच्छीत्री भाव तोंडार हाडून चलत रावलो. फुडल्यान शणै गोंयबाब दिसपी हो कोण एक्साचो गोरख फाटल्यान मात हिटलरसो दिसलो!

ताचो विचार कुशीक काडून हांव सचिवालयांत गोविंद गावडेंच्या कॅबिनांत भितर सरलों. तो उठून म्हजे म्हऱ्यांत आयलो आनी ताणें म्हज्या पांयाक हात लावन वाकून नमस्कार केलो.

सर, तुमी कित्याक आयले? फोन केल्लो जाल्यार हांवच तुमचे कडेन येवपाचों! कला आनी संस्कृती मंत्र्यान विनम्र जावन म्हणलें. संस्कृती आसची ती अशी अशें म्हाका दिसलें.

तुवें कला अकादेमीचें टेन्डर काडी नासतना...

आरे तुमकां सांगलां मरे हांवें, ताज महाल बांदपाक शहाजहानाक टेन्डर काडचें पडूंक नाशिल्लें. मागीर म्हाकाच कित्याक तुमी सुळार चडयतात?

कला आनी संस्कृतीमंत्र्यांची कला आतां तकली वयर काडूंक लागिल्ली. ताका दिशिल्लें जावंये हांवूय ताचो विरोधक म्हण! पूण म्हाका कितें पडलां? कला अकादमीच्या नांवान ताजमहाल बांदात ना तर बिबीका मकबरा! म्हाका पडिल्लें कोंकणी अकादेमीचें. एकूय मुमताज प्रकरण आयकूंक नाशिल्ले कला अकादेमीची तुळा ताजमहाला कडेन करून टेंडरा बगर बांदकाम जाता जाल्यार कितल्याच प्रेमप्रकरणां पासत चर्चेंत आशिल्लें कोंकणी अकादेमीच्या बांदकामाक टेंडराचो विचार लेगीत करप म्हणल्यार मुमताजाचो आनी ताजमहालाचो अपमान आशिल्लो. हांवें हीच गजाल कला आनी संस्कृती मंत्र्यांक समजावन सांगली. भाजपवासी जाल्ल्यान तांकां ती वेवस्तीत समजली आनी कोंकणी अकादेमीचोय ताजमहाल करपाचे प्रक्रियेक आरंभ जालो. हीच गजाल वेरेकारान वाऱ्यार घालूंक ना मूं?

वेरेंकार जावं वारेंकार एक्साचे कितें करीत सांगू नज...!

संपर्क: 9822136885

***





# जराशास्त्र - वृद्धोपनिषद

डॉ. सोबिता किर्तनी

-३-

### संस्कृती आनी कायदो

मनशाचे कुडीची वाड सैमीक नेमान जाता. एके पेशे पासून सुरवात जाल्लो जीव आकार घेवन जल्माक येता हें सैमीकच आसता. पूण गर्भांत वाडटल्या भुरग्यांचेर सरभोंवतणचोय परिणाम जाता. जल्माक येत साकून मरणा मेरेन सैमीक आनी सरभोंवतणचे प्रभाव हांतल्यान मनशाची जीण घडटा. कितें खावचें, कशें न्हेसचें, कशें वागचें, वेळ कसो पासार करचो ह्यो सगळ्यो गजाली आमी आमच्या घरच्यां कडल्यान आनी आमच्या समाजा कडल्यान शिकतात.

तशेंच आमचो धर्म, समाजांतल्यो चाली रिती आनी संस्कृती हांचो परिणाम जाता. उदेंती देशांनीं सामुहीक (collectivist) संस्कृती आसा. समाजांत आमी एकामेकांचेर अवलंबून जगतात. देखून समाजांत घडयिल्ले नेम आमी फास्की कशी वापरून ताचे भितरच वावुरतात. भारतीय परंपरेन तरणी पिळगी आनी जाण्टीं हांचे मदीं परस्पर अवलंबून रावपाची (interdependent) चाल आसा.

पालक आपले ल्हान भूरग्यांचें पालन पोशण करतात आनी जाण्ट्या पालकांची तांची वाडिल्लीं भुरगीं काळजी घेतात. ह्यो दोन तीन पिळग्यो एकठांय रावतात आनी एकामेकांक आदार करतात. अश्या समाजांत जाण्टीं नातरांचो सांबाळ करतात आनी तरणी पिळगी जोडपाचें काम तशेंच घरांतलो वावर करतात. पुण काळांतरान हें चित्र बदललां. नोकरी - व्यवसाया खातीर तरणी पिळगी शारांत वा परदेशांत स्थायिक जातात तेन्ना जाण्टीं आवय - बापूय फाटल्यान एकटींच उरतात. हें फाटल्या शंबर वर्सां घडत आयलां. जाण्ट्या पालकांक फाटल्यान एकटीं दवरपी तरणे पिळगेक भारतीय समाजांत उणाक लेखतात, तशेंच एकटीं रावपी जाणट्यांक चुरचुतात.



पूण नोकरी व्यवसायाक लागून घराकडल्यान पयस रावप हें आयज सरसकट घडटा. व्हडा प्रमाणांत भारतीय समाजानय हो बदल आपणायला. तरी एकटीं रावपी जाणट्यांक जीण सोपी-सरळ सारुंक आमच्या समाजांत विशेश सुविधा नात. जो म्हणसर आंगांत वावर करपाची तांक आसता तो मेरेन जाण्टीं आपली जीण आदार नासतना सारूंक शकतात. भुरग्यांचेर अवलंबून जगप वा वृध्दाश्रमांत जीण सारप हे दोन पर्याय आमच्या समाजांत आसात. आदारी जीवन (assisted living), सामायीक जीवन (community living) हे पर्याय आमच्या शारांनी क्वचीत आसात.

पश्चिमी देशांनी व्यक्तिगत संस्कृताय (individualistic culture) आसा. थंय भुरगेपणासावन लोक स्वतंत्र पद्दतीन जगतात. दुसऱ्यांच्या आदारार जगप उणाक अशें लेखतात. हो विचार अपंगूळ (handicapped and disabled) लोक लेगीत आपणावन चलतात. जुवानपणांतच आवय-बापाय कडसून वेगळीं रावन आपलो संवसार आपणे चलोवपाची तांची जिणे रीत. आपल्या जाण्ट्या पालकांची सांबाळ करपाची लागणूक तरणे पिळगेक ना. देखूनच जाण्टे पालक भुरग्यांचेर आदारून जगनात.

हाचो अर्थ तरणी पिळगी आपल्या पालकांचो सांबाळ करनात असो न्हय. पूण जे पद्धतीन पुर्वेच्या देशांनी जाण्ट्या पालकांक तांच्या भुरग्यांनी पोसपाची अपेक्षा आसता ते भशेन पश्चिमेंतल्या देशांनी अपेक्षा ना. देखून त्या समाजांत एकटे रावपी जाण्ट्यांची जीण सोपी जावची म्हूण जायत्यो सुविधा समाजांत मेळटात.

बदलत्या काळा प्रमाण समाजांत बदल घडटात. भारतांतय हे बदल आमकां ल्हवू-ल्हवू दिसतात. एका काळार घरच्यांचीच जबाबदारी आशिल्लीं जाण्टीं, आयज समाजाची जबाबदारी जाल्या. देखून वृद्धाश्रमां, वृद्धां खातीर सुविधा, वृद्धांची देखरेख जावची म्हण कायदे आयच्या भारतीय समाजांत तयार जाल्यात.

'हिन्दू एडॉप्शन ॲण्ड मॅन्टेनन्स ॲक्ट १९५६' हाचे प्रमाण जाण्ट्यांचो सांबाळ करपाची जबाबदारी ही भुरग्यांची जावन आसा. मुस्लीम कायद्यानय गरजेवंत आवय - बापायचो सांबाळ करपाची जबाबदारी

**जराशास्त्र म्हळ्यार जाण्टे पिरायेचें शास्त्र. इंग्लिशींत ताका Gerontology अशें म्हणटात. ह्या विशयाचेर संशोधनपुर्ण प्रबंध बरोवन लेखकान डॉक्टरेट संपादन केल्या. प्रस्तूत लेखमाळेंत जाण्टेपणाच्या वेग-वेगळ्या तासांचेर अभ्यासपूर्ण लेख आसपावल्यात.**

**डॉ. सोबिता किर्तनी ही पार्वतीबाय चौगुले कॉलेजींत मानसशास्त्राची सहायक प्राध्यापक आसात.**

भुरग्यांची जावन आसा. क्रिस्तांव आनी पारसी धर्माच्या कायद्यान अशें स्पश्टपणान बरयिल्लें ना.

१९७३ त पयलेच खेपेक सॅक्शन १२५ खाला कोड ऑफ क्रिमिनल प्रोसिजर हातूंत जाण्ट्या पालकांचो सांबाळ जावंचो अशी तरतूद कायद्यान केली. ह्या कायद्यान ज्या जाण्ट्या पालकांक स्वता पुरतें लेगीत जोडपाची तांक ना तांकां तांणी आपल्या भुरग्यां कडल्यान अर्थीक मदत मागपाचो अधिकार दिला.

अशा तरांच्या कायद्यांनी जाण्ट्यांक निदान अर्थीक मदत जावची म्हण सरकार यत्न करता. पूण हातुंतल्यान फक्त अर्थीक प्रश्नच सुटावो जावं येता, तोय बी जाण्ट्यांचोच. प्रत्यक्षांत काळजी घेवंक लागपी मजत सप-सप मेळना आनी मेळटा ती खूब म्हारग आसता. देखीक उपचार, खासा जाण्ट्यां खातीर आनी दुयेंती खातीर तयार केल्ली सामुग्री (व्हिलचेअर, वॉकर, टॉयलेट सीट, दोडपाची खाट), आनी परिचारिका (नर्स) वा कॅर टेकर - सादारण मनशाक हें परवडप कठीण. तरणे पिळगेक आपल्या पालकांची काळजी घेवपाक सोपें जावचें म्हूण सरकारा कडल्यान सुविधा आनी उपकरणां खातीर अनुदान मेळपाक जाय कारण ती काळाची गरज. एकलीं एकसुरीं रावपी जाण्ट्यांकय ह्या सोईची गरज आसा.

भारताची तरणी पिळगी पुर्वेचे सामयीक संस्कृतायेंत वाडल्या, पूण तांचेर पश्चिमी व्यक्तीगत संस्कृतायेचो व्हड प्रभाव आसा. अशा वेळार ही तरणी पिळगी दोनी वटांनी ओडटा. हें जाण्ट्या पालकांच्या बाबतींतूय घडटा. एके वटेन आपल्या भुरग्यांचो फुडार बरो उज्वल जावंचो म्हूण धडपड केल्ल्या पालकांची, जाण्टेपणांत कुचंबणा जाता. भुरग्यांक अपेक्षा दवरिनासतना मेकळीक दिवची काय आपल्या म्हऱ्यांत बांदून दवरचे?

पयस दुसऱ्या शारांत वा परदेशांत रावपी भुरगीं वा एकाच गांवांत दुसरें घर करून रावपी भुरगीं अर्थीक पालव दिवन वा नर्स दवरून पालकांक पोसतात तेन्ना लेगीत आपले पोटची भुरगीं, आपलो सांबाळ करनात हाची खंत जायत्या पालकांक जाता.

ही खंत, जाण्टेपण भुरग्यांचेर आदारून सारपाचें ह्या विचारांतल्यान निर्माण जाता. तेन्ना भारतीय समाजाची जाण्टेपणांत भुरग्यांचेर आदारून जगपाची ही मानसीकता बदलपाची गरज आसा अशें जालें ना? देखून आदारी जीवन, सामायीक जीवन सारकी रावपाची व्यवस्था उणाक नासून ती जाण्ट्यांचें आनी तरणे पिळगेचें जियेवप सोपें करता, हो विचार समाजान आपणावपाची आयज गरज आसा. तेच भशेन जाण्ट्यां खातीर मेळुंयेता ती मानसीक आनी शरिरीक आरोग्य-सुविधा लोकांक उपलब्ध करून दिवपाची गरज आसा.

-४-

**भलायकी**

आरोग्यम् धनसंपदा अशें आमी भुरगेपणासावन शिकल्यांत. सर्व सादारण मनीस भलायकी वा आरोग्य हें फक्त शरिरीक अशें धरून चलता. 'मानसीक आरोग्य' ही खूब नवी संकल्पना

भारतीय परंपरेंत जाणटेपणांत मनीस संवसाराचो कसलोच मोह दवरनासताना आपल्या संवसारातल्यान ल्हवू ल्हवू गुंथून रावपाचें सोडून दिता आनी जणू जिणेंतल्यानच निवृत्त जाता. अशा वेळार जाणटेपणांत दुख्ख, दुबळेपण आनी असमर्थताय येवप सभावीक अशें आमी धरून चलतात.

जाणटेपणांत मनशाक दुयेंसां जातलीं, दुखणीं असतलीं, विसर पडटलो, निरशेणी येतली अशें धरून चलपी समाज जाणट्यांच्या आरोग्यांचेर कमी प्रमाणांत खर्च (invest) करता.

कांबळी ह्या मानसशास्त्र्यान २०१२ वर्सा गांवगिऱ्या वाठारानी रावतल्या जाण्ट्यांचेर केल्ल्या संशोधनांतल्यान कळटा की ४१.३% जाण्ट्यांचें मानसीक आरोग्य खूब उणें प्रतीचें आसलें. मानसीक आरोग्य दुबळें आसपांत कांय घटक जोडिल्ले दिसले. ते म्हळ्यार बायल जात, शिक्षण नासप, उणाक/दुर्बळ समाजीक - अर्थिक नदरेन दुर्बळ आसप, विधवा जावप, कांय छंद नासप, दुसऱ्यांचेर आदारून आसप आनी घरच्यां कडल्यान माया आनी काळजी नासप.

काश्यप आनी सिधू या संशोधकांनी 'जाण्टेपण आनी आरोग्य' हाचेर २०११ वर्सा अभ्यास केला. तांच्या अभ्यासांतल्यान सत्तरी हुंपिल्ल्या जाण्ट्यांचें आरोग्य साठ ते सत्तर वर्सा भितर आशिल्ल्या जाणट्यां परस अस्कत आसता अशें समजता. तशेंच दादल्यां परस बायलांची भलायकी वायट आसता.

विक्रम पटेल आनी मार्टिन प्रिन्स ह्या संशोधकांनी २००१ वर्सा गोंयच्या जाणट्यांचो आना उतार वयात जावपी मानसीक स्वास्थ्याची परिस्थिती हाचेर अभ्यास केला. तांणी पळयलें की निर्शेवणी वा मनभ्रंश (डिमॅनशिया), विचार क्षमता आनी समाजीक व्यवहार करपाची क्षमता उणी जावन सदच्या व्यवहारांत आडमेळीं येवपी अवस्था, हांकां लोक

*(पान २१ चेर)*



# मन कुशबनः बुडीत कुर्डी!

दादा हेगडे

चाळीस पंचेचाळीस वर्सां फाटीं केपें गांवांत कुर्डी परस शिक्षणा पासतच्यो सुविधा चड प्रमाणात आशिल्ल्यो. त्या वेळार विनेश वसंत कुर्डीकर आपलें माध्यमीक शिकप केपें आपल्या मामागेर रावन करतालो. केप्यां हॉली क्रॉस ईश्कोलांत म्हज्या परस दोन वर्सांनी मुखावेल्या वर्गांत तो शिकतालो. दोळ्यांर दाट हारशाचें वक्ल, जुवानपणांतूच पिकूंक लागिल्ले माथ्यार धवसार केंस, लांब किडकिडीत असो ताचो आंगलोट. हेरांलागीं ताचें उलोवप लेगीत खूप उणे आसलें. विनेशाचो मामेभाव प्रदीप म्हजो आमीग. ह्या पासत तागेलें म्हजेलागी उलोवप बरेच फावट जातालें. त्या वेळार कुर्डी गांव हांवें पळोवंक लेगीत नासलो. थंय वचूंक कसलेंच निमीत लेगीत आयलें ना. म्हज्या नदरेंत कुर्डी गांवात वच सारकें कसलेंच खाशेलेंपण नासलें. केपें लागसारच्या हेर ल्हान खेड्यां मदलो तोवूय एक साधारणसो गांव, इतलेंच.

तें वर्स १९७४-७५ मजगतचें आसूंक जाय. एक दिस शाळेच्या इंटरवाला वेळार विनेशा लागीं उलयतना तो मात्सो निर्शेल्ल्यावरी दिसलो. आपल्या गांवच्या जात्रेक तो वचपाचो आसा अशें ताणे सांगलें. आरे मागीर उमेद जावंच्या जाग्यार निर्शेवणी कित्याक? म्हज्या ह्या प्रस्नाक ताणे दिल्ल्या जापेंतल्यान त्या वर्सा कुर्डी गांवांतली ताच्या जीणेंतली ती निमणी जात्रा अशें कळ्ळें. ह्या जात्रे उपरांत ताचें घरदार, देव देवळांसकट ताचो सगळो गांव उदकातळाक वतलो अशें म्हणत विनेश थंयसावन कडसरलो. जात्रा, तीवूय निमणी कित्याक आसूं येता काय? ह्या विशींची उमळशीक मात म्ह्ज्या मनांत लागून उरली. गांवची जात्रा, तीवूय जीणेंतली निमणी. अशें कशें जांव येतां? त्या पिरायेर हांव जाणां आसलों तें म्हळ्यार उटांगराचो पावस पडल्या उपरांत केप्यां लागसारच्या पाड्डें गांवांत रस्त्यार उदक येवप आनी 'पाड्डें बुडप'. तें बुडप तर सामकें खिणयाळें आसतालें. कुशावती न्हंयचें उदक पावसाच्या हुंवारा पासत रस्त्यार येतालें. हुंवाराचो अदमास घेना आसतना बांदिल्लो पाड्डेंचो सरकारी पूल उदका पोंदा वतालो. हाका लागून येरादारी बंद जाताली इतलेंच. पावसाच्या आसोरा उपरांत सगळें आशिल्लें तशें परतें सुरु!! हांच्या भायर गोंयांत खंयचोय गांव पुरायेन बुडूं येता ही कल्पनाच म्हज्या कुवती भायली आसली.

ईश्कोलांतलें माध्यमीक शिक्षण शिकून जाल्या उपरांत मुखावेलें शिकप करतांना 'साळावली धरण' आनी ताच्या बांदावळी विशीच्यो गजाली वाचपांत आयल्यो. न्हंयचें उदक आडावन साळावले बांद बांदपाक १९७५-७६ वर्सा सावन सुरु जालो. त्या आदीं सरकारान धरणाच्या आडवणी पासत उदका खाला वचपी गांवांतल्या लोकांची सांगे तालुक्यांतल्या वालकिणी आनी वाडें ह्या गांवांनी पर्यायी वेवस्था केल्ली. धरण बांदच्या पासत सुमार २० खेडीं सगळ्या सगळीं वा भागशा उदका खाला वचपाचीं आसलीं. कुर्डी हो तांतलोच एक गांव. गान तपस्वीनी मोगुबाई कुर्डीकर हिचो जल्म गांव. १५.०७.१९०४ वर्सा जल्मल्ल्या मोगुबाईन ल्हान पिरायेचेर आपली आवय जयश्री वांगडा नाटकांनी काम करच्या पासत हो गांव सोडील्लो. आवयन ताका १० वर्सां पिरायेचेर पयलीं जांबावले हांगा गायन शिकूंक दवरलें. 'चंद्रेश्वर भूतनाथ संगीत मंडळी' ही मोगुबायची पयली संगीत नाटक मंडळी. ही नाटक मंडळी नुकसाणीत गेल्या उपरांत तिणे 'सातारकर स्त्री संगीत मंडळी' ही नाटक मंडळी आपणायली. १९१४ वर्सा मोगुबायची आवय भायर पडली. आवयच्या मरणा उपरांत मोगुबाय बरीच दुयेंत पडली. वखदां आनी त्याच बरोबर आपल्या आरोग्याची काळजी घेवंचे पासत ती महाराष्ट्रांतल्या सांगली गांवांत गेली. बरी जाल्या उपरांत थंय तिणे आपल्या गावपाचो रियाज सुरु केलो. थंय सावन ती गायनाची एक एक पावंडी चढत गेली. आपले सर्गेस्त आवयच्या इत्से पासत तीणे गावप चालू दवरलें. संगीताच्या मळार एक गान तपस्वीनी, 'माई'

परगटली!! तिच्या घरा लागसार श्री. सोमेश्वरचे देवूळ आसलें. तें त्या वेळार गांवच्या उंचावेल्या जाग्यार आसलें. गायनाच्या निमतान माई देस, परदेसाच्या भोंवडेर आसताली. गोयांत ती चड राव नासली. अशें आसून लेगीत ही गान तपस्विनी वर्सातल्यान एक फावट कुर्डी सोमेश्वर देवळांत भजन गावन आपली सेवा देवाक तशीच संगीत मोगीक ओंपताली. १०.०२.२००१ वर्सा हो संवसार सोडी मेरेन तीणे जाता तशी ही सेवा केली.

चार वर्सां फाटी माया म्हयन्याच्या निमण्या शेनवारा गीमाचो शीण काडच्या पासत रिवणा 'बालमोहन' कुटीरांत घरच्या सयत गेल्लों. सुशेग घेतना थंयसरूच थारलें कीं दुसऱ्या दिसा आयतरा दनपरां कुर्डी गावांत वचप. ह्याच दिसांनीच थंय वचूंक जाय. गीमा दिसांनी उदकातळा गेल्ल्या आदल्या कुर्डीचें पुरायेन दर्शन जाता अशें हांव आयकुन जाणां आसलों. अर्द वराच्या प्रवासा उपरांत सांजवेळच्या चार वरार आमी थंय पावलों. रखरखीत वतांत सुकी पडिंग, फातराळ, खडपी तशीच तळपी, कांय जाग्यांनी रेबाट आशिल्या पडीक मळाचेर म्हजी नदर गेली. त्या उकत्या मळार गाडयो वचून खिणयाळ्या तयार जाल्या रस्त्यावेल्यान आमची गाडी वताली. वाटेर चिऱ्यांनीं बांदिल्ल्या तुळशी वृंदावनाचे भग्नावशेश नदरेंत गेले. तांच्या लागसारूच मोडून उरिल्ले घरांचे वांटे, भग्नावशेश जाल्ल्यो वंण्टी नदरेंत भरताल्यो. बरेच मुखार रुक्ष आनी सुक्या सडसडीत मातश्या उंचायेच्या माळाचेर एक लांबट आकाराची बांदावळ नदरेंत आयली. तीच्या लागसारूच कितल्योशोच गाडयो, मोटार सायकली पार्क केल्ल्यो दिसल्यो. ह्याच जाग्यार कुर्डी सोमेश्वरचे आदलें देवूळ आसलें अशें समृद्धान आमची गाडी थांबयत म्हाका सांगलें. नदरेंतली ती बांदावळ म्हळ्यार आदल्या देवळाच्या गर्भकुडीचो उदकांत बुडल्या उपरांतचो उरिल्लो भग्नावशेश. हांगासरचें आदलें देवूळ आनी देव, गांव बुडल्या उपरांत गांवकारांनी जांबावले लागींच्या शिरवय गावांत हालयलें. मायाच्या म्हयन्यांत साळावले धरणाचें उदक बरेंच सुकता. त्या पासत हो बुडिल्लो आदलो गांव थोडो भोव परत पळोवंक मेळटा. ह्या सगळ्या वाठाराची मालकी सध्या गोंय सरकारा लागीं आसा. ह्या कारणान खरें तर हो वाठार सरकाराच्या वतीन थळाव्या सरकारी अधिकाऱ्यांनी साबांळूक जाय. ही तर तांची जापसादारकी. थंय तशें कोण तो वाठार सांबाळटात अशें कांयच दिस नासलें. भौशीक सुवात आशिल्ल्या भशेन लोक सगळे कडांनी उक्तेपणान वावरताले. मूर्त नाशिल्ल्या त्या बुडूंक नाशिल्ल्या गर्भकुडींत दिवो, उजवात पेटवन, पिंजर लावन फुलां घालून कोणे तरी तात्पुरतो देव स्थापन केल्लो. बुडीत कुर्डीच्या भोंवडेर आयिल्या लोकांच्या 'भेटे' खुस्तार कोणाचो तरी दिसवडो सुट्टालो. गर्भकुडींतलो तो तात्पुरतो देव मात ताका पुरायपणान पावतालो!

भोंवतणच्या सगळ्या घट्टणाचेर नजर मारतना पैस एका फात्रार रखरखीत वतांत एक मनश्याची आकृताय कशी दिसूंक लागली. लागसार वचून पळेत तर बारीक केल्ले धवे फुल्ल केंस, तितलेच धवे वाडिल्लें खाड, सदळसो शर्ट घाल्लो तो मनीस दुसरो तिसरो कोणुय नासून 'विनेश' आसलो. पिराये वांगडा ताच्या ओक्लाचो नंबर लेगीत बरोच वाडिल्लो. दोळ्यांवेलें वक्ल गुड्ड सोडाच्या बाटलेच्या हारशापरस दाट जाल्लें. खऱ्या पिरायेच्या मानान तो चडूच जाण्टो कसो दिसतालो. म्हाका अकस्मात मुखार पळयल्या उपरांत "आरे दादा तूं आनी हांगा? आतां कित्याक आयला? हेंरा भशेन घट्टणाची मजा पळोवंक मरे?" तीरसूवादपणान ताणे म्हजी खबर घेवंक सुरु केली. घरचीं हेर जाणां तो वाठार भोंवत फोटो काडत आसलीं. तो मेरेन हांव विनेशालागीं गजालींक बसलो.

"पांचवेशार झाडां-पेडांनी भरशिल्लो कुर्डी हो म्हजो गांव. आप-आपली जीण मोठे उमेदीन जगपी आमी सगळे हांगचे गांवकार. जगांतल्यो हेर सगळ्या गजालींनीं जरी भरिल्लो नासलो, पुण उपाट उमेदीन जीण जगपी गांवकारांनी भरिल्लो म्हजो गांव. ल्हानशे चावडेर चार पांच दुकानां. पयस एका मोडक्या इमारतीच्या घट्टणाकडेक बोट दाखयत तो सांगूक लागलो. दुकानांनी विकचें अशें सामान खूप कमीच आसतालें. कारण गांवच्या लोकांच्यो विकत घेवच्यो गरजो लेगीत तितल्योच कमी. सगळें हांगासर पिकतालें. चड जाता तें विकताले. सगळे एकामेकाच्या गरजेक पावताले. सगळे गांवकार जात-पात सोडून सुख दुखाचे खरे वांगडी आसले. गांव बुडटा म्हण कळना फुडे घरांचे नळे, दारां, जनेलां, देव देवसपण, गोरवां, कुकडां घेवन आमी सगळे भायर सरले. त्या वेळार मोनजात लेगीत आपले भीतरूच घुस्पल्यावरी जाल्ली. सगळी जीण ज्या गावांत गेली तो गांव सासणाक सोडपाचें दुख उतरांनी परगटावं नजो. साळावलेच्या उदकांन तुमच्या शारांनी नळ भरून ओतले. सरकारान गोंयच्या हेर शेतकारा पासत आमच्या गांवच्या न्हंयचें उदक आडवन सगळे कडेन पावयलें. कुर्डी आनी ताच्या लागसार आशिल्ले गांव मात आर्दी आसले तश्याचे तशे आयज मेरेन कोणूच उबे करुक शकले नांत. आज हांगा दिसतात आनी भोंवतात ते लोक म्हजो सुखी सोबीत कुर्डी गांव केन्नाच पळोवंक, भोवंक आयिल्ले याद जायना. तूं लेगीत तांतलोच!! आतां मसंड कशी जाल्ल्या म्हज्या गांवांचें घट्टाण मात तुमी सगळे उमेदीन पळोवंक येतात. ह्या बकाल पडिंग मसुंडीचे दर्शन घेवन सेल्फी काडपी लोक पळोवन तांची खऱ्यांनीच काकुळट करीन दिसता. हो सगळो खटाटोप फक्त सोशल मिडियाचेर स्वताचे प्रदर्शन मांडच्या पासतचो. ह्या पडिंग घट्टणां मदीं म्हजे भुरगेंपण घुसमटत आसा. सगळो गांव उदकातळा वचून लेगीत आयज आमचो ताळो मात सुक्याचो सुकोच आसा. म्हजी आर्दींची पांचवीसार, उमेदीन भरिल्ली कुर्डी याद करचे पासत काय खिण हांव हांगासर काडटां." सुस्कार सोडीनास्तना विनेश उलयत अशिल्लो. हांवे परतून कसलीच जाप दिली ना. मोन्यानीं हांव थंयसावन सटकलो. परत गाडयेंत बसतना हळूच फाटल्यान नदर मारली. पैसुल्ल्या त्या फात्रार तो तसोच बशिल्लो आसलो.

बुडीत कुर्डी नियाळूंक गेल्ले कडेन म्हाका विनेशांत गंगे काठार मर्डीं जळयतल्या मनीकरण घाटावेल्या काशी विश्वनाथाचें समाधीस्त दर्शन जालें!!

संपर्क: 9822129070

***



# कविते विशीं

**माधव बोरकार**



२४.५.२२

अनुप्रास हो कवितेचो एक म्हत्वाचो अलंकार. अनुप्रासाक लागून कवितेक नादयमता येता. पूण अनुप्रास आपसूक जुळून येवपाक जाय. ओडून ताणून चंद्रबळ हाडून न्हय. आमच्या पंडित कवींनी ताचो बेस बरो उपेग केला. इंग्लीश अभिजातवादी कवितेंत तो मुखेलपणान दिसता. ड्रायडन, पोप हांच्यो कविता ते नदरेन अभ्यासपाक जाय.

२.७.२२

खऱ्या कवीक वाऱ्याच्या व्हांवपांत सूर आयकुपाक येता. झाडाचीं पानां सळसळटात तेन्ना ताका लय आनी तालाचो साक्षात्कार जाता. सगलो सैम ताचेखातीर एक कविता आसता.

८.५.२२

शंकर रामाण्याच्या पुस्तकांच्या संग्रहांत म्हाका 'चंवर' ह्या म्हज्या पयल्या वयल्या कविता संग्रहाची भेटप्रत मेळ्ळी. खंयचेंय पुस्तक वाचतना ताचेर आपले आवडीच्यो खुणो करपाची तांकां सवंय आशिल्ली. एखाद्री कविता खंय फसल्या तेंय ते कुरवांनी दाखयताले. आतां हो म्हजो संग्रह उजवाडा येवन अर्द शेंकडो उलगलो. तेन्ना तिरायत कसो ते कवितेकडेन हांव पळोवंक शकतां. हे भेटप्रतीवेल्यो खुणो पळोवन हांव म्हजे कवितेचो नियाळ करपाक लागलो. १९६८ ते १९७२ ह्या काळांत बरयल्ल्यो कविता हांवें नव्यान वाचून काडल्यो. आनी त्यो वेगळ्या कादेर्नार उतरायल्यो. हो exercise करतना तिचीं कांय खाशेलेपणां लक्षांत आयलीं.

ह्यो सुरवातीच्या काळांतल्यो कविता वाचतना हांव उतरांच्या वापराचे बाबतींत conscious आशिल्लो अशें जाणवता. कमीत कमी उतरां वापरून आशय व्यक्त करपाची तिची वज आजूय तशीच आसा. शद्वांच्या पाल्हाळा पासून तिणे आपल्याक कितलेशेच कोंस पयस दवल्ल्या. तेच भशेन सामाजिक आशय निव्वळ फॅशन म्हूण हे कवितेंत येवंक ना. आनी आजूय हो आशय तिणे पयस दवल्ला. म्हजे कवितेची मूळ कालेत तशीच उल्ल्या.

प्रकाश पाडगांवकार, रमेश वेळुस्कार हे म्हजे समकालीन कवी. तांच्यो कविता आज अभ्यासाचे नदरेन वाचतना ह्या कवींनी आपली मूळ कालेत सोडून कविता बरयल्ली दिसता. पाडगांवकारान सातत्य दाखयलें खरें पूण तो आपले मूळ कालेतीपासून पयस गेल्लो.

'उजवाडाचीं पावलां' हो ताचो पयलो कविता संग्रह. तातूंतल्यो कविता आज वाचतना ती कविता कितली लिरिकल हे लक्षांत येता. ती शुद्ध भाव कविता म्हणूं येता अशी, 'आतां हांव ह्याच काळखांत जियेतलों' वा 'सपन' सारकिल्यो कविता ताच्यो देखी. पूण 'वास्कोयन'तलो सूर तिका मानवल्लो दिसना. हे कवितेंत सामाजिक जाणिवेचो सूर आसा. पूण तो कलेच्या पांवड्यार पावना. एके तरेचो प्रचारकी थाट ती आपणायता. पाडगांवकाराले मूळ प्रकृतीकडेन ती जुळोवन घेता.

वेळुस्कार हो मुळांत एक निसर्गकवी ताच्या 'मोरपाखां' ह्या पयल्या संग्रहांतल्यो कविता ताची गवाय दिता. तातूंत हे कविच्यो अस्सल निसर्ग कविता आसात. 'काळसावळी ही वेळ/काळसावळेंत झाड/ पयस सुकण्यांची वळ/ जाता दोंगुल्ल्यांच्या आड सारकिल्यो वळी एक सांजवेळचें चित्र रेखाटता. 'मोरपाखां' हे कवितेंत हो कवी इंद्रिय संवेदना जागयता. पूण मुखार हो कवी शद्वांच्या जंवजाळांत आपले कवितेक घुस्पावंक लागलो. जे दिशेन ताची कविता वचूंक जाय आशिल्ली तशी ती गेल्ली दिसना. कांय कवितांनी निव्वळ यमकांची जुळोवणी केल्ली दिसता.

कवीन अर्दी मर्दी आपले कवितेकडेन तिरायत नदरेन पळोवपाक जाय. तरूच तो हे दोश टाळूंक पावतलो. तो जर आपले कवितेच्या प्रेमांत पडलो जाल्यार तें शक्य जावंचेलेंना. पूण हें साध्य जावपाक अभ्यासाची गरज आसता.

७.७.२२

यानिस रित्सोस (१ मे १९०९ – ११ नॉव्हें ९०) हो एक म्हत्वाचो ग्रीक कवी. ताचे राजकीय विचार सत्तेर आशिल्ल्यांक नाकसुरे गेले. ताका लागून ह्या कवीक खूप मोटें मोल दिवंचें पडलें. ताचे कवितेंत राजकीय जाणिवो आयल्यो. पूण तांकां प्रचारकी वास ना. हरशीं ग्रीक कविता वाचूंक मेळप ही एक दुर्मीळ गजाल. अणकाराच्या रुपान ती आडवादान वाचपाक मेळटा. रित्सोसाच्यो कांय कविता मंगलेश उबराल ह्या हिंदी कवीन अणकारल्यात आनी ताचेवयल्यान मनोज सुरेंद्र पाठक हाणी मराठींत हाडल्यात. तांच्या आदारान केल्लो हो कोंकणी अणकार.

**एकसुरेंपण**

आंगणाच्या एका कोनश्याक
शाब्बाच्या फेसाच्या पाणयांत
आपल्या पर्मळाच्या
वज्यान बागवल्ले गुलाब
घेतलो ना कोणेच वास ह्या गुलाबांचो.
कोणाचें अशें एकसुरेंपण
सादें सहज आसना.

संपर्क: 9420222876

***



# करमलाची चॉकलेट आनी चवड्याचो बॉल

**हर्षा शेटये**

चवथ खाशेलें

चवथ ही गोंयकारांच्या जिणेंत उमेद हाडपी परब. आमच्या गोंयांत जे पद्धतीन चवथ मनयतात तें पळयल्यार गोंयांत गणपतीक कृषीदेवता मानून पुजा करतात अशें दिसता. गोंयच्या मातयेंतल्यान जें पिकता तेंच आमी पुजेच्या वेळार निवेद्याच्या रुपान गणपतीक अर्पण करतात.

आमी गणपतीमुखार जी माटोळी बांदतात तांतूत पयली नाल्ल आनी आंब्याच्यो ताळो बांदतात. कांगला, करमलां, कोयतेवाल, घागऱ्यो, जिरमुलो, बोबर आनी कितलेशेच तरांची रानवटी फळां बांदतात.

मागीर बांदतात पोरसांतलीं फळां. चिकू, पेरां, लिंबू, आंबाडे, तवशीं, कारांदे, सुरण, केळयाचो घडाय, मावळींग, घोसाळें, बेड्याचें शिपटें. ही यादी कितलीय लांबोवं येता. चवथीच्या दिसांनी झाडार पिकिल्लें कसलेंय फळ माटोळेक बांदपाक म्हणून मुद्दम सांबाळून दवरतात.

चवथी दिसांनी लाडू, नेवऱ्यो गोंयकारांच्या घरांनी करतातूच. कांय जाणांगेर गणपतीच्या नेवेद्याक अनवाळ्यांनी नेवऱ्यो करून पयलींच दवरतात. तातूंत भरिल्लो सांठो मागीर कसलोय आसूं. चण्या दाळीचो, मूगां पिठयाचो. तिखसो, गोडसो खिशीचो... नेवऱ्यो जायच. निवेद्याकूय जाय आनी आमच्या क्रिस्तांव शेजाऱ्यांक दिवपाकूय जाय.

चवथी पयले दिसा तय. तये दिसा गौरी, म्हादेवाची पूजा करतात. थोड्यांगेर चवथी दिसाच करतात. तये दिसा निवेद्याक नाल्ला रोसाचो पायस, पांच पालीभाजी आनी पातोळ्यो करतात. तेभायर वन्न, दुदया गांठी, फोडी करतात. पूण तये दिसा गौरीक दुवाळो लागता. असो तसो न्हय. खर दुवाळो. तिका रोस घालनाशिल्लो पायस, कांय कडेन साखर घालनाशिल्लो पायस. अळणी पांच पालीभाजी आनी मोन्यो पातोळ्यो म्हळ्यार चून घालनाशिल्ल्यो पातोळ्यो खांयन दिसता.

ह्या पांच पालेभाजयेक चड करून तांबडी भाजी, धवी भाजी, तेरें, दुदणीचीं पाना बी घालतात. मागीर पांचवे म्हणून लुतीचें पान. भेंड्याचें पान बी घालतात. मडगांवां आमगेर मसकाची, तायकिल्याची भाजी बी घालिनात. दिवचले घालतात. तर ही पांच पाल्याची भाजी गौरीक अळणी खायन दिसता. तिचेखातीर मिठ घाली नासतना वेगळी भाजी काडटात.

मडगांवां आमगेर गौरी खातीर नाल्ला रोस घालीनासतना वेगळो पायस काडटात. नाल्लाचो पयलो दाट रोस काडटात ताका आपरोस म्हणटात. मागीर आनीक उदक घालून पातळ रोस काडटात ताका दुळो रोस म्हणटात. तर रोस घालीनासतना गौरीखातीर पायस वेगळो काडटाली ताका दुळो पायस म्हणटात. आमच्या शेजाऱ्यागेर गोड घाली नासतना गौरीखातीर पायस करतात. ताका खुटो पायस म्हणटात. म्हजे मोरजे लग्न करून दिल्ले इश्टिणीन सांगले कीं मोनो पायस म्हणटात म्हणून. चवथी दिसा गणपतीक निवेद्याचें वेगळें पान वाडीनात. गणपती आवयच्या, गौरीच्या पानार जेवता असो समज आसा. चवथी दिसा गणपतीच्या आवडीचे मोदक करतात. गौरीचे आवडीच्यो म्हणून नेवऱ्यो करतात. ह्यो नेवऱ्यो, मोदक पुरणाच्यो करतात. कांय कडेन चूनाच्यो करतात. आमगेर मडगांवां नेवऱ्यो, मोदका वांगडां आनीकूय तीन तरांचे आकार करतात. नेवरी, मोदक, करमल, शिपो आनी चवडो. ह्या पांचूय जाणांक मेळून पांचखार्जी अशें नांव आसा. आमगेर दिवचले एकवीस मोदक करतात. पांच खार्जी करपाची पद्धत ना.

म्हाका म्हजे एके इश्टिणीन सांगले, तांगेर करमल आनी चवडो करीनात. ताच्या वाट्याची चॉकलेट आनी बॉल करतात म्हणून. ताचे अशें जालां आसतलें, जाण्टी करमलाची तोंका कशीं करतालीं तें नवें सुनेक घडये खबर नासूंये. आनी तिणे मागीर ती चॉकलेटी भशेन पिळ घालून तशींच दवरलीं आसतलीं. मागीर एकलेचे पळोवन दुसरेन केलां आसतले. तशेंच चवडो. बॉल आनी चवडो एकूच. चवडो हे नांव खबर नाशिल्ल्यान कोणेतरी बॉल म्हणपाक सुरवात केली आसूंये.

आनीक एक मजेशीर गजाल. एका तेंपार सरदेसाय घराबो हो मुखेलपणान झुंजा खेळपी. तेखातीर कांय सरदेसाय घराब्यांत पांच खार्जी शस्त्राच्या आकाराची करतात. शंख, चक्र, गदा, बाण आनी त्रिशूळ.

पांच खार्जी तर चवथीच्या जेवणाक करतातूच ताचे शिवाय दुसरे गोडशें





म्हणून शेवयांची खीर करतात. आमचे भुरगेपणांत माया म्हयन्यांत शेवयो करताली. चवथीखाीर म्हणून न्हांवन बी अनवाळ्यांन शेवयो करताली. मागीर त्यो सुकोवन स्टीलच्या एका करंडात भरून पातळ मलमलचो कपडो बांदून तो करंड देवाकुडींत दवरतालीं. तो बद्द चवथी दिसा भायर काडटाली. ही खीर नाल्ला रोसाची करताली. आमगेर दिवचले म्हाका याद जाता, आमची वयनी तये दिसा दनपारां शेवयो करपाक बसताली. हातांनी बऱ्यो बारीक शेवयो करताली. त्यो राती सुकोवन त्या शेवयांची खीर चवथी दिसा करताली. आतां वयनी ना. पूण सगळीजाणां चवथी दिसा तिच्या शेवयांची याद काडटात.

चवथी दिसांनी चडश्या जाणांगेर मुगांगांठी, आंबाड्याचे सांसव वा उड्डमेथी, चण्यार्चे तोंडाक, दुदयां गांठी, सुरणां गांठी, भेंड्या भाजी, घोसाळ्या भाजी हांतूंतल्यो खंयच्योय भाजयो करतात. आमगेर मडगांवां खतखतें करतात. तेंवूय बी गोंयांत पिकपीच भाजयो घालून. आमगेर आजी पोपाय भश्ट म्हणटाली. चवथीच्या जेवणांत वापरनाशिल्ली. हेर गोंयांत पिकपी सगळ्यो भाजयो घालताली. भेंडो लेगीत.

चवथी दिसा हुंदराचोय मान करतात. पिठाचो बरो इल्लोसो हुंदीर करतात. ताका लवंगाचे दोळे बी लावन सोबीत करतात. म्हाका असले पिठाचे हुंदीर बी करपाक मज्जा येता. गणपतीच्या मखरापोंदा ह्या हुंदराक दवरतात. हुंदराक वेगळें निवेद्याचें पान दवरतात. ताका हुंदराची वाडी म्हणटात. हांव भुरगेंपणांत दोन दोन हुंदीर बी करताले. मागीर आजी बोवाळ मारताली. घरांत खूब हुंदीर जातले म्हणून. ह्या हुंदराक आनी हुंदराचे वाडयेक दुसरे दिसा सकाळीफुडें घरार पावयतात.

आनीक एक मजेची गजाल आमगेर मडगांवां चवथी दिसा आजी न्हिदूंक वतना काजूबियांचो लाडू ताटलेंत धापून दवरुन गणपती मुखार दवरताली. गणपतीक रातची भूक लागता आनी तो उठून आवयकडेन बियांचो लाडू दी म्हणून मागता खंय.

अशीच एक काणी हांवे म्हज्या इश्टिणीकडल्यान आयकल्ली. तिची आजी गणपती पावयतना एका चोळक्यार पंचखाद्य  घालून पोटली करताली आनी ती पोटली केळीच्या दोरान गणपतीच्या हाताक बांदताली. ताचे फाटलें कारण अशें, गणपती कैलासाचेर वचपाक भार सरता. वाटेर ताका भूक लागली जाल्यार खावपाक म्हणून हाताक पंचखाद्य बांदतात. हाका आमी 'टिफीन' म्हणू येता. म्हाका ह्यो दोनूय गजाली खूब आवडल्यो. गणपतीक आमी आमच्यातलो एक कसो मानतात.

पंचमी दिसा तर निवेद्याच्यो कितल्योश्योच परी. ही नव्याची पंचम. तेखातीर गोंयभर सगळ्यांगेर कॉमन गोडशें म्हळ्यार नव्याचो पायस. ह्या दिसा भाताची नवी कणसां हाडून ताची पूजा करतात. कणसां सोलून तांतूंतले तांदळाचे दाणे पायस शिजतना घालतात. हें जालें पंचमीचे एक गोडशें. दुसरें गोडशें मात वाठार बदलता तशें बदलता.

मडगांवां आमगेर गोडशें म्हणून बरें सांदण धाकण्यांत उकडलेले हीट आनी नाल्लाचो रोस. तेभायर हिटाबरोबर खावपाक म्हणून मुगां गांठी. पंचमी दिसा करुकूच जाय म्हणून थोडे निवेद्यापुरतें आळूं, पांच तरांच्यो फोडी, कारातें, दुदी, निरपणस, कागलां आनी मंयडोळ्या केळ्याच्यो. आंबाड्याची उड्डमेथी, मुगां उदकाचो सार हेवूय आसताच.

दिवचले आमच्या घरा, सांखळे म्हज्या आजोळा बी तांदळाचे वडे आनी गांठी. खूब जाणांगेर तवसळीय करतात. म्हज्या आजोळा आलेगांठी नांवाची आळवाची सुकी भाजी करतात. करतात म्हळ्यार करताली. आळवाच्या पानाचे कुडके करून तांका गांठी मारप. ह्या गांठीचीच भाजी करप. खूबशे आले शिनून घालप. चवथी दिसा सांजवेळच्यो घरांतल्यो बायलो आळवा पानां घेवन गांठी मारूंक बसताल्यो. अशें म्हजी आवय सांगता. मागीर मागीर खंय आळू चिरून करपाक लागली. शास्त्राक फकत पांच गांठी मारून भितर घालून लागली. अशीय खबर हांवे मुंबय राबितो करून आशिल्ल्या पै धुंगट कुटुंबाकडल्यान आयकली. तांगेरूय सगळीजाणां अश्योच गांठी मारूंक बसतालीं. आनी आळवाची ही सुकी भाजी बांगड्यांच्या सुक्याभाशेन लागता खंय. चवथीचो दीस म्हणून बांगड्याचे नांव घेवप ना. पूण बांगड्याचें नांव घेना आसतना तातूंत एकूच फाल्त म्हणून रूच काडून खावप खंय.

पंचमी दिसा आनीक एक खाशेलो पनवार करतात. आळवा वा आलेगांठी वाट्याचो. ह्या पनवाराचे नांव कंदमूळ. ह्या कंदमूळाचे मूळ बारदेस वाठारांत मेळता. मूळ बारदेसकार आशिल्ल्या खूब घराब्यांनी हो जिनस रांदतात. हांवें तरी साळगांवकार, मोर्डेकार, म्हांबरो हांगेर हो जिन्नस केल्ल्याचें आयकलां. आमगेरूय म्हजी मांय हें कंदमूळ वर्सातल्यान दोन-तीन वेळा करताली. पूण चवथीक न्ही. म्हजो मांव मूळ सावयचो. तेखातीर आमगेर पद्धत ना.

आळू आनी तांबडी भाजी हे ह्या कंदमुळाचे मूळ घटक. मागीर सगळ्या तरेचे कंद, मुणल्यो, चिनें, चिरको कणगां, कारांदा, तेभायर आपल्याक जाय ती भाजी घालू येता. दुदी, सावरबोणे केळें, घोसाळें कितेंय वाटप बी वाटपाचे ना. कातिल्ली सोय, आमटाणीचो कोळ आनी रुचीपुरते गोड. कांय जाण हालीसराक आमटाणी वांट्याचे धंय घालतात. कांय कडेन कंदमुळांत एकवीस तरांच्यो भाजयो घालतात. आमटाणी वाट्याचे आंबाडेय घालतात.

हेंच कंदमुळ दक्षिण गोंयांत सांगे, केपे तालुक्यांत दुसऱ्या नांवान मेळटा. मळकर्णा लग्न जाल्ल्या म्हज्या एके इश्टिणीन सांगले, ती पंचमी दिसा ही खानवड करतात म्हणून आमी करतात तीच रेसिपी. फक्त सोय, मिरी आनी आमटाण अरखणावन घालतात. तांगेर ऋषीपंचमीचो उपास आसता तेखातीर खंय तेफळ आनी तोरची दाळ घालीनात. हरशी करतात तेन्ना घाल्यार जाता. दाबाळ रावपी शार्वरी प्रभून सांगले कीं, खानवडीक हिंग, सांसवां, हरव्यो मिरसांग्यो तेलांत फोण्णा घालतात. आमटाणी वांट्याची भिण्णाची सोलां, तन्या नाल्लाची सोय आनी धोडायल्लीं तेफळां, सोलां आनी हरव्यो मिरसांग्यो म्हळ्यार खानवडीक बांगड्या सुक्याची रुच येतलीशी दिसता. घडये मागीर आले गांठीभशेन, बांगड्या सुक्याची रुच काडुन खातात जांवये. वर्सभर आनी हें कंदमुळ करप जायना. तेखातीर पंचमीदिसा. हे कंदमूळ भुरकें मारून खातात खंय.

म्हाकाय याद जाता. आमच्या भुरगेंपणात हीट आनी रोस म्हणटात ते सणांपरबेकूच करताले. आता आमी आतऱ्या पयऱ्यान इडली सांबार करतात तशें हीट करनाशिल्लें. ते खातीर पंचमी दिसा सांजवेळा गणपतीक पायां पडपाक येवपी आमची सोयरी तळिल्ले हीट आनी मुगां गांठी

आवडीन खातालीं. कांय जाणांगेर पणसा पानाचें दोणे करून तातूंत हीट उकडटात. ह्या त्रिकोणी इडल्यांक सुयो म्हणटात. तेभायर पणसा पानांच्योच लगड्यो करून तातूंतूय हीट उकडटात. लगडी म्हळ्यार पसरट तोप. तेखातीर बरो पकदस्त असो तांब्याचो सानन धापणो (सांदन धाकणो) आसता.

गणपती पावयता म्हणसर रात जाता. पूण गोंयांत अशेंय कांय घराबे आसात. शिवराक जेवप म्हळ्यार तांचेखातीर संकश्ट. आवा शिवा करून पंचमीची दनपार म्हळ्यार कशें बशें थार धरतात. आनी सांजवेळारूच उत्तर पूजा करुन गणपती पावयतात. कोणाक तरी सांगुन मागीलदारां नुस्तें हाडून दवरतात. हे वटेत गणपती पावयतात आनी तेवटेन नुस्तें भितर हाडटात. बांगडुल्यो बी मेळ्ळ्यार आनी विचारूंच नाकात. माटोळेक बांदिल्लो तेफळांचो घोस काडून सोमतो बांगडुल्यांच्या हुमणांत.

आनीक एक याद तोरांजाची. आमच्या वाड्यार तेकून तेकून सगळीं एका पारेतीची घरां. गणपती पावोवंचे वेळार सगळ्या घरांतले लोक एकठांय येवन आरत्यो करताले. गणपती घरातल्याच बायंत पावयतालीं आनी मागीर दोणे वाट्टालीं. दोण्यांपरस आमकां आकर्शण आसतालें तोरांजाचें. तोरांज म्हळ्यार तोरिंग. तोरांज सोलतना ताची वेवस्थीत सोलून काडिल्ली दाट सालीचीं दोन अर्दां. आमी उमेदीन चेपीं म्हणून माथ्याक घालतालीं. तोरांजाच्यो सोलिल्ल्यो गुलाबसर शिरो, आंबटगोड गोरोप, बचको बचको भरून खातालीं. गणपती पावोवन नुस्तें बी हाडपाची वाड्यार पद्धत नाशिल्ली. पूण दुसरे दिसा सकाळीफुडें दारांत नुस्तेकात्री बारीक सुंगटा घेवन येताल्यो. सुंगटा घालून मसूरचे तोंडाक करून तळिल्ल्या हीटाबरोबर खावप.

हालींच म्हाका म्हजे जावेन एक गजाल सांगली. तिचे कुळार पणजे सरदेसायागेर. तांगेर खंय पंचमीदिसा रातच्यो उरिल्ल्यो मुगा गांठी, चण्याचे तोंडाक, सार वन्न सगळे एकठांय करून शिजयतात. आनी दुसरे दिसा सकाळी चपातेबरोबर खातात. ह्या प्रकाराक खंय ती 'गजगजें' म्हणटात. म्हाकाय अशेंच किर्ते तरी म्हज्या आजोळा करताली ती याद जाली. हांवें सोमते म्हज्या आवयक विचारलें, तिणे म्हणले हय, तांगेरूय अशेंच उरिल्लें सगळें एक करताली. ताका ती 'गरगटलें' म्हणटालीं. काणकोण वाठारांत खंय ह्या जित्रसाक 'घसमशें' म्हणटात. तीन वाठारांत तीन नांवां! घडये आनीकूय आसूंक शकतात. तीन तीन अस्सल कोंकणी उतरां. हेंच आमच्या भूसाचें आनी भाशेचें खाशेलेपण. हीं तिनूय उतरां म्हजेखातीर नवीच. हें जित्रस रांदलेना जाल्यार ह्या जित्रसांची नांवांय फुडल्या वर्सांनी शेणटलीं. आमची चवथ म्हळ्यार पारंपारिक खाणां जेवणाची मैफल आनी ह्या खाणांची आगळीवेगळी नांवां फुडलें पिळगेमेरेन पावोवपाचे एक माध्यम. ते खातीर तरी वर्सांन एकदा हीं खाणां जेवणां घरां घरांत शिजुंकूच जाय. नाजाल्यार 'करमलाची चॉकलेट आनी चवड्याचो बॉल' जाला तशें किर्तेय जातलें.

संपर्क: 9850530152

***



# चवथ, मकर आनी घुमटी

माया अनिल खरंगटे

चवथ ल्हान तशे व्हड, सगळ्यांच्याच उमेदीचो आवडीचो सण. भुरग्यांच्या तर चडच घोस्ताचो. म्हज्या भुरगेपणांत भुरग्यांक जांव जाण्टयांक मनरिजवणेचें दुसरें कसलेंच साधन नासतालें. ते पासत अशे सण परबो येवप होच आमचे पासत खोश्येचो खीण आसतालो. सगळ्यांत चड मजा आसताली ती चवथीक. आमी त्या वेळार दीस, म्हयने मेजत चवथीची वाट पळयतालीं.

चवथीक लागून जायत्यो अश्यो गजाली आसताल्यो जांची आमी चड उमळशिकेन वाट पळयतालीं. आमच्या असोळडेच्या घरांत दोन माळ्यांच्या मदीं व्हड जाग्यार म्हणजे बरोबर घरांत भितर सरतात ताचे वयर आमचें मकर आनी घुमटी दवरतालीं. चवथीक म्हयनो भर आसा म्हळ्यार मकर आनी घुमटी हाडून आंगणांत दवरतालीं. हें सगळें काम आमचो आबा करून घेतालो.

मकर - घुमटी आंगणांत पावतकर आबान आमकां सगळ्या भुरग्यांक आपोवन सांगप, "मकराचेर जसो दोन-तीन दीस पावस पडलो काय तुमी मकर निवळ करपाचें. सामकें सुळसुळीत करप. कोण चड बरें काम करता ताका एक नेवरी चड."

आमी तीन दीस पावस आनी मकराचेर लक्ष दवरून आसताली. मागीर मात्सो आसर पळोवन आमचें मकर-घुमटी निवळ करपाचें काम सुरू जातालें. ते श्रावणाचे दीस आशिल्ल्यान वता-पावसाचो खेळ आसतालोच. वतांत मकर-घुमटी सुकतकर आबा बोथरां घेवन तें बरें पुसतालो. खंय कितेंय उरला काय पळोवपाक आबा आपली खास सुरी ताचेवेल्यान भोंवडावन पळयतालो. मागीर ते मकर-घुमटी पास्तीसाकुडींत पावयतालीं मागीर आमकां मकराक हात लावंक मेळ नासलो.



आबा मडगांवच्यान तरेकवार रंगयाळ्यो फोली हाडटालो. मैद्या पिठाची बरी खळ करून घेतालो आनी पास्तीसाकुडींत बसून मकर आनी घुमटी बरी करून रंगयतालो. आमी दाराची खांच चुकून उगडी उल्ली जाल्यार लिपून-लिपून पळयतालीं. चवथीक दोन तीन दीस आसा म्हळ्यार मकर - घुमटी गणपतीचे चवखेर हाडून दवरतालीं. तें सुंदर, रंगयाळ्या फोलीनी रंगयल्लें मकर आमकां पळयत रावीन दिसतालें. आबा आमका ताच्या म्हऱ्यांत येवंक दियनासलो.

आमची घुमटी इतली सुंदर तातूंत रंगयाळ्या फोलींनीं रंगतकर ती आनीकय सुंदर दिसताली. आमची घुमटी तीन भागांत आसली. भायलो भाग म्हळ्यार चार बरे आकार दिल्ले खांबे, ताका सकल बसका आनी ताका चार सोबीत खूर. त्या चारय खांब्यावयर महिरप. ताचे वयर देवळाच्या घुमटावरी ल्हानखुरो घुमट. आनी ताचेर लाकडी कळस. घुमटे भितर परत चार खांबे, तांकांय महिरप. ताचे भितर आनी चार खांबे, तांकांय महिरप. आनी भितर गणपती दवरूंक पाट. त्या जाग्याप्रमाण आमगेर सदांच ल्हानसो गणपती हाडटात. मकरा भितल्ल्या घुमटेंत तो ल्हानखुरो गणपती सोबीत दिसता.

आमची घुमटी जशी सुंदर तशें व्हडलें बरें मकर पळयत रावप सारकें. चार चौकोनी पट्ट्यांमदी मोठ्ठें घसघशीत खांबे, तांचेवयर आडवी फळी, तिका महिरप. ह्या खांब्या फाटल्यान आनी दोन दोन चवकोनी पट्ट्यो. तांकां आडव्यो पट्ट्यो घालून खण केल्यात. तांकां आबा धवीच फोल लायतालो, ते सारके हारशे कशे दिसताले. तांचेर सुंदर गुलाब करून भोंवतणी चार पानां लावन आबा त्या हारशांच्या फोलींच्या मदीं चिकटयतालो. त्या तिनूय वटच्या हारशांतल्यान रंगयाळी घुमटी उठून दिसताली.

घुमटी-मकर एका व्हड मेजार दवरतकच ताच्या सकल रंगयाळ्या फोलींचें कापड लायतालीं. हें कापड करपाचें काम आमचें, भुरग्यांचें, आबालें मकर आनी घुमटी रंगोवन जाली काय आबा आमकां फोली आनी दिसाळीं दितालों.

आमचे चवखेवयर सदर चवखी आसा. थंय बसून आमी तें कापड करतालीं. चड करून हांव, बाय मंगल खळ लावन दिवपाचें काम करतालीं. आमचें हें काम चालू आसतना, घरांतलीं येवन आमकां विचारतालीं, "खंय पावला गो शालू? अंदू कितल्या लाखांचो शालू?"

आमचो शालू तयार जातकीर आमचे काका बी चवखीभर लावपाक झालरी कापपाक लागताले. तांकांय खळ लावन दिवपाचें काम आमीं करताली.

गणपतीक कूड करपाचो एक आक्त आसतालो. चवखेर कोडें पुरून तांका दाट बरो चित्रकारी आशिल्लो पेपर चिकटयताले. मागीर गणपतीक सोबीत कूड तयार जाताली. त्या कुडी भायर दवरपाक लाकडी राखणदार, शिपाय आसात. काथ्याचो ब्रश करून रंगोवपाचें काम आमी करतालीं. अशे तरेन घरचे घरा आमची सोबीत सजावट आसताली.

कूड तयार जाली काय माटोळेचो बोवाळ आसतालो. रानफळां, घर फळां, भाज्यो हाडून माटोळी सजयताले. आमी मर्दी मर्दी बेश्टींच बोवाळटालीं.

चवथीचे तीन दीस म्हळ्यार तरेकवार खाणा-जेवणां आसतालीं. आमकां चलयांक सक्काळीं उठून फुलां, दुर्वा, पत्री हाडपाची आसताली. भजनां, आरती आसताल्यो, पूण ह्या सगळ्यांभायर आमकां अप्रुप आसतालें तें फोगाचें. घरांतले जाण्टेलें आमकां चनरजोती, माराण दितालें. कोणाक कितल्यो काशी आनी माराण मेळ्ळ्या हें मेजपाचो आमकां एक वावर आसतालो. पावस येना जाल्यार पुरो म्हणत आमी चड उमळशिकेन वाट पळयतालीं तीं तिनसनां भायल्या आंगणांत लायताले त्या फोगाची.

पंचमी दिसा निमाणी आरत दाखोवन आमचो गणपती सदर चवखेर हाडून दवरतालीं. थंय ताचेर आमी सगळीं ल्हायो घालतात. नेण्टीं-जाण्टीं चनरजोती लायतात.

ह्या वेळार आमगेर एक अजाप घडटालें. हय, आमकां ल्हान भुरग्यांक त्या वेळार तें अजापच दिसतालें. आमी सगळी गणपती बरोबर सदर चवखेर वताली. थंयच्यान गणपती पावपाक वतालीं. गणपती पावोवन जड मनान घरात यो जाल्यार घुमटेंत धाकटुलो पांचव्या रंगाच्या काचेच्चो गणपती आसतालो. तो खंयच्यान येता, कोण हाडून दवरता आमकां कांयच कळ नासलें. आमकां ती जादुचशी दिसताली.

अशे तरेन म्हयनोभर बोवाळ - गडबड करून तीन दिसां भितर चवथ सोंपताली. मागीर थोडे दीस तरी आमी दुसऱ्या चवथींची वाट पळयत रावतालीं.

संपर्क. 9442068527८

***

# पूर्ण वेळ लेखक?

**रवीन्द्र केळेकार**

पूर्ण वेळ लेखक कोणूय आसूंक शकता काय? नासता असो म्हजो समज आसा. आसूंक फावना हें म्हजें मत. कारण लेखन ही उत्पादन प्रक्रिया न्हय. ती एक सृजनप्रवृत्ती. सृजन-प्रवृत्ती अशी एक गूढ प्रवृत्ती, जी रातदीस आपलेच गतीन चलत आसता. ते गतीचो थाव स्वता सर्जकाक लेगीत लागना. वयल्याचाराक पळोवपाक सर्जक भायल्यान कांयच करिना अशें दिसता. पूण तो कांयच करिना अशा वेळार नेमकें ताचे भितर 'कितें तरी' एकसारकें शिजत आसता आनी शिजून पूर्ण जालें म्हणटकच तें आपलें अशें एक रूप घेवन प्रगट जाता. केन्ना कवितेच्या तर केन्ना नाटकाच्या वा कथेच्या स्वरूपांत तें 'येता'. निबंद लेगीत अशेच 'येत' आसतात असो खूब जाणांचो अणभव आसा.



हें जें कितें येता ताका उपरांत सर्जक जाय तें रूप दिवंक शकता. हें काम ताच्यांतलो कलाकार करीत आसता. सर्जकांत जसो एक सर्जक आसता, तसो एक कलाकारूय आसता. एक वाचक आसता तसो एक समीक्षकूय आसता. ह्या चौगांचे कसोटीक जें देंवता तेंच मागीर सर्जक प्रगट करता. पूण मुळांत कितें तरी भितल्ल्यान 'येवंक' जाय नाजाल्यार कलाकार कितेंच करूंक शकना. आनी ताच्यांतलो वाचक आनी समीक्षक संतुश्ट जायना.

जें 'येता' तें हांव सदांच अमूकच वरां काम करतलों, अमूकच पानां बरयतलों अशें थारावन येना तरी तें स्वयंस्फूर्त आसता. म्हणूनच हांवें म्हळें की सर्जक जरी भायल्यान कितेंच करिना अशें दिसलें तरी तो कांयच करिना अशें म्हणूं नजो. आनी ताच्या कामाचो हिशोबूय घेवं नजो.

'म्हजे तकलेंत सद्या एके कादंबरीचें कथानक घोळटा, पूण कितें करूं? बरोवन काडपाक वेळूच मेळना', अशें कांय लेखक म्हणत असतात तेंवूय हांवें आयकलां. हांवें मागीर अजापानूच स्वताक म्हळां, 'हें कशें शक्य आसा?' कामाच्या राटींक लागून म्हाका बाळंत जावपाक वेळूच मेळना अशें गुरवार बायल म्हणूंक शकत? गर्भ धरलो, णव म्हयने पुराय जाले म्हणटकच ती बाळंत जाता, अशेंय ना. पुराय जग जरी आरतें परतें जालें तरी तिचो बाळंटेर थांबना. तशेंच कादंबरीचें कथानक तकलेंत घोळत उरलें आनी तें भितर बरें शिजून तयार जालें जाल्यार तें तकलेंत 'घोळत' उरचेंना. लेखका कडेन वेळ आसूं वा नासूं लेखका कडल्यान तें स्वताक 'बरोवन' घेतल्या बगर केन्नाच स्वस्थ रावचेंना.

विश्वसाहित्यांतल्यो बऱ्यो कथा, नाटकां, कविता, कादंबऱ्यो अशे तरेन जल्माक आयल्यात.

वेळ आसा म्हूण चलपाची प्रक्रिया न्हय. अमूक वरां सदांच काम करून तडीक वचपाची न्हय. ही जाली गजाल मौलिक साहित्याची.

मौलिक साहित्य हो भाशेचो प्राण. पूण ह्या प्राणाक रावपा खातीर भाशे कडेन एक शरीर आसचें पडटा. मनशान ज्ञान-विज्ञान-तंत्रज्ञानाचे कितलेशेच फांटे विकसित केल्यात. तांची माहिती दिवपी साहित्य भाशेंत आसूंक जाय. हें साहित्य भाशेक शरीर प्रदान करता. खेरीज, अशे तरेच्या साहित्यान भाशा प्रगल्भूय जायत आसता, समृध्दय जायत आसता. हें साहित्य आपले भाशेंत हाडूंक सोदतल्याकडेन त्या त्या विशयाचें सखोल ज्ञान आनी भाशेचेर प्रभुत्व ह्यो दोन गजाली आसच्यो पडटात. ह्या दोन गजालींचे जोडीक 'हांव सदांच अमूक अमूक वरां काम करतलों' असो निश्चेव केलो तर तो अशे तरेचें साहित्य मोट्या प्रमाणांत निर्माण करूंक शकता.

ह्या कामाचो हिशोबूय घेवं येता. ही प्रवृत्ती सृजनात्मक न्हय अशें न्हय. पूण ती जागृतपणान पूण यंत्रवतूय चलोवं येता हें हे प्रवृत्तीचें खाशेलपण आसा. अशे तरेचें साहित्य भाशा मोग्यांनी तज्ञां कडल्यान निर्माण करूनय घेवंक फावो.

अनुवादांची गजाल वेगळी. अनुवाद ही एक कला आहे तशी ती एक तरेची सृजनात्मक प्रवृत्तीय आसा. मूळ लेखकाच्या सृजन प्रक्रिये कडेन एकरस जावन अनुवाद करप शक्य जालें जाल्यार तो फकत अनुवाद उरना, तें एक तरेचें अनुसर्जन जाता. मौलिक जाता.

इंग्रजांनी हे कलेची उपेक्षा केल्ली जाल्यार विश्वसाहित्याचो जो विपुल खजिनो आज आमकां इंग्लीशींतल्यान उपलब्ध जाला, तो जावचो नासलो. ताचे पसून आमी पुरायेन वंचीत उरपाचे आनी संस्कारितेचे नदरेन दरिद्रीच उरपाचे.

आपले भाशेंत लेगीत आमी बरे बरे अनुवादक निर्माण करूंक जाय.

अनुवादाचें हें काम बरेंचशें सृजनात्मक आसलें तरी 'हांव सदांच अमूक वरां काम करतलों' असो निश्चेव करून तें करूं येता पूण मौलिक साहित्य अशा हावेसान निर्माण जायना. मौलिक साहित्य निर्मिती ही तत्वताच

सृजनात्मक प्रवृत्ती आसा. ती दर दिसा अमूक वरां काम करून तडीक पावपाची न्हय. सर्जक भायल्यान कसलेंय काम करूं पूण भितल्ल्यान तो सामको व्यस्त उरता. केन्ना केन्नाय तो भायल्यान सामको व्यस्त आसता पूण ताची ही व्यस्तता ताच्या आंतरिक सृजन-प्रवृत्तींत कसलेच तरेची आडखळ हाडिना. भायली व्यस्तता आनी आंतरिक सृजनताय ह्यो दोन स्वतंत्र प्रवृत्ती आसात. दोनांयचो तसो व्हडलोसो संबंद ना.

टॉलस्टॉय हो जगांतलो खूब मोटो सर्जक कलाकार आशिल्लो. साधन संपन्न अशा एका कुटुंबात जल्माक आयिल्लो. सामको प्रतिभावान. पन्नाशी यो म्हणसर तो पूर्ण वेळ साहित्यिक आशिल्लो. बरोवचें तें जगांत आतां मेरेन कोणेच बरोवंक ना अशे तरेचेंच आसूंक जाय हे जिद्दीन तो बरयत आशिल्लो. आकांताची निरीक्षण शक्त आशिल्लो तो लेखक. आपल्या पात्रांक समजून घेवपाक तांच्या मनांत खोल देंवपाचो. तांकां लेगीत खबर नाशिल्ल्यो गजाली पारखून आनी खतखतावन काडटालो. ताचो हात धरपी साहित्यीक युरोपांत त्या काळांत कोण नाशिल्लो. (उपरांतूय कोण जल्माक आयलोना)

ताची 'वॉर ॲण्ड पीस' ही एकूच कादंबरी ताच्या प्रतिभेच्या आवाठाचो आनी खोलायेचो अदमास घेवपाक फावशी आसा. नेपोलियनान रशियाचेर घुरी घाली तेन्नाचो इतिहास ताणें हे कादंबरींत जितोजिवो उबो केला. कादंबरींत पात्रां कितलीं आसचीं? पांचशें पंचवीस. प्रत्येक पात्राक नांव आसा, रुप आहे, स्वतंत्र व्यक्तिमत्व आसा. प्रत्येक पात्राच्या सुखदुख्खा कडेन टॉलस्टॉय एकरूप जाला. इतलीं पात्रां आशिल्ली कलाकृती जगांत दुसरी ना. आमचें महाभारत आमी खूब मोटें मानतात. आसाच तें मोटें पूण तातूंत पात्रां कितलीं आसात? स्वतंत्र व्यक्तिमत्व आशिल्लीं. चाळीस पन्नास. हेर सगळ्या पात्रांचो आसपाव व्यासान लेगीत 'अठरा अक्षौहिणी'त केला. टॉलस्टॉयच्या 'वॉर ॲण्ड पीस' हातूंत कोणाचोच आसपाव संख्येंत जावंक ना. ही कादंबरी पूर्ण करपाक टॉलस्टॉयाक सात आठ वर्सां लागलीं.

प्रत्येक गजालीची बारीकसाण एकठांय करपाक ताणें बरेच कश्ट घेतले. कादंबरी पूर्ण जातकच लेगीत ती सात खेपे निवळावन काडली. एक लेगीत शब्द हांगाचो थंय करूंक मेळना हाची जतनाय घेतली. उपरांतूच ती उजवाडायली. अशा तरेची कादंबरी प्रसिद्ध जाल्ली आसतना आपणें कादंबऱ्यो बरोवप हें मर्यादेचें अतिक्रमण आसा, अशीं उतरां ती वाचून त्या काळांतल्या जायत्या कादंबरीकारांच्या तोंडांतल्यान आयिल्लीं. साहित्यिक म्हणून जगभर प्रसिद्धी मेळटकच टॉलस्टॉयाक एक दीस अकस्मात आपूण फटकिरो, कैदी आसा, लोकांच्या श्रमाचेर जगपी आसा शोशक आसा, अशें दिसपाक लागलें. आमी जगता कित्या खातीर, आमकां जीण कित्या खातीर मेळ्ळ्या. जियेवंचें कशें, अशे तरेच्यो जापो सोदपा खातीर ताणें जगातलें सगळें धर्मसाहित्य उमथें घालें. खंयचो तत्वज्ञ किते म्हणटा हें पळोवपाक सगळ्या दार्शनिकांचें साहित्य वाचून काडलें. बऱ्याच मंथना उपरांत टॉलस्टॉय 'आपली जिणेशैलीच बदलूंक जाय' ह्या निर्णयाचेर आयलो. तो सत्तरीच्या लागसार पाविल्लो तरीय ह्या उतार पिरायेंत तो साध्या शेतकाराची जीण जियेवंक लागलो. आठ आठ वरां शेतांत काम करूंक लागलो. ताच्यांत हें परिवर्तन कशें घडून आयलें हाची कथा ताणें 'वॉट दॅन वुइ मस्ट डू' (तर मागीर आमी कितें करचें) ह्या पुस्तकांत सांगल्या. सहृदय सुबुद्ध वाचकाची न्हिद खळोवपी हें पुस्तक.

ह्या पुस्तकांत तो म्हण्टा, अशे तरेन आठ आठ वरां शेतांत काम करुंक लागतकच म्हजे मुखार एक प्रस्न उपस्थित जालो. जें बौद्धिक काम हांव आतांमेरेन करीत आयलां, जाची म्हाका संवय जडल्या, आनी जें काम एकदम उपेगी आसा अशें मानीत आयलां, तातुंत हें काम आडखळ हाडचें ना. कित्याक? शारीरिक श्रमा उपरांत बौद्धिक थकवो येवंचो ना काय? अणभवान म्हाका दिसून आयलां, शारिरीक श्रम बौद्धिक थकवो हाडिनात. उरफाटे, बुद्धी तरतरीत करतात. आठ वरां शारिरीक काम केल्या उपरांत लेगीत म्हजेकडेन आठ वरां बाकी उरतात. तातुंतली पाच वरां म्हाका बौद्धिक कामाखातीर पुरोशी आसात. एक बहुप्रसव लेखक ह्या नात्यान हांवे फाटल्या चाळीस वर्सांत सुमार पाच हजार पानांचे साहित्य बरोवन प्रसिद्ध केलें. बरोवपाखेरीज दुसरे कांयच केले ना. म्हाका आतां दिसता, ह्या चाळीस वर्सांत अशेंच शेतांत आठ आठ वरां काम केल्लें, दिसपट्ट्या उरिल्ल्या वरांतली पाच वरां वाचनाकडेन खर्च केली जाल्यार सुटयेच्या दिसांत दिसपट्टी चार पानां बरोवपाचो - फक्त चार पानां - जाल्यार वर्साचे सुटयेचे णव्वद दीस, गुणीले चार ह्या हिशोबान पांच हजार चाळीस पानां बरोवपाक म्हाका फकत चौदा वर्सा पुरो जावपाची.

टॉलस्टॉय मुखार म्हण्टा, हांवे एक गणित मांडले. म्हळ्यार दिसाक वरां कितली आसतात? चोवीस. तातुंतली आठ वरां न्हीदेखातीर कुशीक दवरली जाल्यार उरतात सोळा वरा. हातुंतली पांच वरा साहित्यिकाक वाचनाखातीर पुरोशी आसात. बाकिचीं उरतात अकरा वरां. अकरा वरांत आमी किदें करीत आसतात?

टॉलस्टॉयान ह्या पिरायेचेर जे साहित्य बरयलें तें वॉर ॲन्ड पीस हाचेपरस खंयच्याच आंगान उणे ना. हांवूय म्हज्या लेखकांक हेंच विचारता, ह्या इकरा वरांत तुमी किदें करतात? नोकरेक आठ वरां पुरो. तीन वरां बाकी उरतात. टॉलस्टॉयान पांच वरां वाचनाखातीर दवरिल्ली. तातुंतली फक्त दोनुच वरां वाचनाखातीर दियात (पूण नेमान वाचन करात). उरली तीन वरां. हीं तीन आनी नोकरेची वजा करून उरतात तीं तीन वरां मेळून स वरां तुमकां मेळटात. ती बायल-भुरग्यांकडेन वा इष्टांकडेन खबरी मारपाक, इस्पिकांनी खेळपाक, फकाणां करपाक, प्रेम करपाक, जाय जाल्यार उधळपाक फावशी नात?

दिसांतल्यान दोन वरां वाचन करात आनी सुटयेच्या दिसा फकत चार वा पांच पानां बरयात. णव्वद सुटयो गुणुले पांच ह्या हिशोबान दर वर्सा चारशे पन्नास-पाचशें पानांचे साहित्य तुमी बरोवंक शकतले. चड बरोवपाची गरज आसा? पुर्ण वेळ लेखक जावपाची कसलीच गरज ना. फकत साठी हुंपतकच पूर्ण वेळ साहित्याक दियात. तोमेरेन तुमी त्यागून, भोगून, निवृत्त जाल्ले आसतले आनी कोडू गोड अणभवानीं समृद्धय जाल्ले आसतले. त्या पिरायेचेर पुर्ण वेळ लेखक सोंपता. तरणाट्यापणांत जो फकत साहित्याक ओपून घेता तो एक तर उथळ साहित्यिक जाता वा बाजारू लेखक जाता. असल्या लेखकाची खंयच्याच भाशेक गरज ना खास करून कोंकणीक तर गरजूच ना!

**(मूळ मराठी – अणकार: मुकेश थळी)**

***



# कळये, कळये फूल...!



मानसी धाऊस्कार

''मिली, तुका इतली सोपी गजाल कशी समजना गो?''

मिलीचे आवयन म्हळें. ''तुज्या भावाक पळय, कितल्या बऱ्या गुणांनी पास जाता! शेजारचें नेहा पळय सामकें कोगळावरी गायता. आनी म्हजे लागीं तुजे विशीं सांगपा सारकें कांयच ना. सामकी लंज जाता म्हाका.''

''हीं सगलीं मनशां अशीं कशीं?''

तांचें कानामनार घे नासतना आपल्याच विश्वांत मग्न रावप मिलीन पसंत केल्लें. मिली आपलेच भितर गूंग आसता. तें आपले गतीन आपल्याच रंगयाळ्या विश्वांत रंगून गेल्लें आसता. आपले परीन, आपले विश्वांत जियेता आसतना दरेकलो तांचे विश्वांत आपल्याक कित्याक ओडटात हेंच मिलीक कळना.

मिली आतां सातवेक आसा. ताका शिक्षणांत गती ना अशें सगळ्यांक दिसता. पूण तें तर हेरां वरींच सगळो अभ्यास नेमान करता, टिचरी शिकयतात तें सारकें समजून घेवपाचो यत्न करता. पूण टिचरींक ताकतीक लागल्या तशी मिलीक मात्तूय ना. ताका कविता बऱ्यो कळटात. पूण ताच्या वांगडच्या हेरांक त्यो कळपाक कळाव लागता. तांकां मात कोण स्लो म्हणना. मिलीक फुलपांखे उडटात तें पळोवंक आवडटात. तीं फुलाचेर बसलीं काय मिली तांचे कडेन पळयत बसता. तांचो रंग नियाळटा. पूण हेर भुरगीं तांकां धरूंक धांवतात तें मिलीक आवडना. फुलांचेर बसपी फुलपांखे, रुखांचेर बसून गावपी सुकणीं हीं खंय धांवपळ करतात? तींय तर सामकीं स्लो. तांकां मात कोण कांय म्हणना. म्हणटात फकत म्हाका... हांव स्लो खंय. हँट्ट...!!

''मिली, यो आतां भितर. शाळेक वचूंक कळाव जातलो.''

आवयन परत सादयलें तशें भरिल्लें बॅग कुशीक दवरून तें रांदचे कुडींत गेलें. आज ब्रेकफास्टाक पोळे. वासा वयल्यान मिलीक तें कळिल्लें. आपल्याक जर हें सगळ्यां आदीं कळटा जाल्यार हांव स्लो कशें? पूण तें कांय उलयलें ना. मोन्यानी वचून डायनींग टेबलार बसलें. आदित्य गरम गरम पोळो खातालो.

''मम्मा, म्हाकाय गरम पोळो जाय.'' मिलीन म्हळें.

''आगो, तुका गरम दिलो कितें आनी थंड दिलो कितें सारकेंच! तूं गणयत गणयत इतलें स्लो खाता म्हणटकच न्हिवतलोच!'' ताचे प्लेटींत आदीं काडून दवरिल्लो पोळो घालीत मम्मान म्हणलें. मिलीक तें आवडलें ना. हांव सुशेगाद खातां हातूंत कितें वायट? म्हाका सगळ्याची रूच घेत खावप आवडटा. आमची टिचर तर सांगता एक घांस बत्तीस खेपो चावून खावंक जाय म्हूण. तें स्लोच जालें ना? काय आदित्य चलो म्हूण ताची चड तोखणाय जाता? हालीं हालीं ताका जाणवूंक लागिल्लें, पप्पा, मम्मा आपले परस आदित्याकूच चड तोखेतात. आदित्य असो आनी आदित्य तसो. आनी हांव कितें सामकें फूंच? हांवूय हांकां एक दीस दाखयतलें, स्लो मनशांय आपल्या कर्तृत्वांत फास्ट कशीं आसतात तें!

मिलीक सैम खूब आवडटा. भायर आशिल्लीं झाडां, तांकां जाल्लीं फळां, त्या फळांक तोखेवन वचपी ती चानी हें सगळें तें पळयता. शाळेचे वाटेर आशिल्लीं फुलां पळोवंक ताका खूब आवडटा. एक दीस शाळेंतल्यान घरा परततना ताणें ल्हवू आवाजान म्हळें, ''पप्पा म्हाका एक फुलाचो रोंपो जाय.''

''रोंपो? तो आनी कित्याक? पयलीं शाळेंतलो अभ्यासूच सारको कर. पी टि ए मिटिंगेंत प्रत्येक खेप टिचरी कडल्यान फकत तुजी कागाळूच येता.

तें निर्शेलें पूण ताणें हट्टूच धरलो. ''म्हाका जाय... जाय... जाय...'' निमणे ताणें लोकां लजेक लागून ताका एक गुलाबा रोपो घेवन दिलो.



मिली आयज सामकें खूश आसलें. तें आपले परीन त्या रोंप्याची कुयदाद घेतालें. पूण त्या रोंप्याक कळेच ये नासले. तरी ताका आस्त आसली, एकदीस ह्या रोंप्याक कळे येतले, हांव ताचे लागीं उलयतलें. तशे ते कळे फुलतले. म्हजे पासत गायतले. हांवूय ताका म्हज्या मनांतली कविता म्हणून दाखयतलें.

मदले सुटयेंत सगळीं भुरगीं वांगडा खातालीं, खेळटालीं पूण मिली एकटेंच शाळेचे बागेंत बसतालें. थंय ताका फुलां, फुलांचेर बशिल्ले पांखे, झाडां, झाडांचीं पानां, तांकां लागिल्लीं फळां हे सगळें ताचे इश्ट आसताले. ते आपल्या कडेन उलयतात. गायतात असो ताका सतत भास जातालो आनी तेंय तांचे कडेन मनांतल्या मनांत उलयतालें. मदींच गायतालें.

एक दीस टिचरीन भुरग्यांक सांगलें. ''येता त्या शेनवारा कविता सर्त आयोजीत केल्या. तातूंत सगळ्यांनी

वाटो घेवंक जाय."

सगळ्यांनी मोट्ठ्यान 'येस टिचर' म्हणलें..

"मिली... मिली... लक्ष दी... आयकलें मुगो? तुवेंय भाग घेवपाक जाय."

मिली गडबडले... "टिचर, कित्यांत भाग घेवंक जाय?"

"आगो कविता सर्तीत"

मिली ओग्गी रावलें.

मिली शाळा सुट्टकीर घरा आयलें आनी सरळ आपल्या गुलाबा रोप्या मेरेन गेलें. पळयत जाल्यार आयजूय ताका कळो येवंक नाशिल्लो.

"आगो मिली, होय रोपो तुज्याच सारको मुगो... स्लो... सामको.... स्लो.." आदित्य खो खो करून व्हडल्यान हांसपाक लागलो.

तें निर्शेलें आनी आपले कुडींत गेलें.

"मिली, तूं कविता सर्तीत भाग घेतलें मगो?"

"कित्याक? हरशींय म्हूण इनाम काय ताका मेळपाचें ना." पप्पान मम्माक तेंको दिलो.

आयकून मिली ओगीच रावलें.

"आनी हो तो रोंपो हांव भायर उडयतलें. फुलां काय येनात!"

आयकून मिली न्हिन्रळ्ळें.

मिली दर दिसा वचून रोंप्याक सांसपितालें. ताचे कविता सर्तीचो दीस शेनवार लागीं पावतालो. पूण अजूनय ताका कविता सुचनाशिल्ली. शेनवार लागीं पावतालो.आदले दिसा मिली शाळेंत वच्चे आर्दी सदचे वरीं आपल्या गुलाबा रोंप्याक उदक घालून 'बाऽऽय' म्हणपाक गेल्लें जाल्यार कितें अजाप.एक पुटपुटीत कळो ताका पळयतालो..

"केन्ना आयलो रे तूं?" मिलीन ताका मायेन पोशेलो.

"मिली बेगीन कर, वेळ जाता." पप्पाचो धेंगसो ताच्या कानार पडलो. पूण हे उमेदी मुखार ताका त्या धेंगशाचें व्हडलेंशें दिसलें ना.

शेनवार उजवाडलो. तें उठून आपल्या रोप्या कडेन गेलें. पळयत जाल्यार गुलाबाची कळी अर्दकुटी फुलून राविल्ली.

मिलीन अपुरबायेन ताका पोशेलें. "कितलो स्लो फुलता रे गुलाबा? आर्दीच कळो येवंक कळाव आनी आतां फुलपाकूय कळाव?"

तशें फूल हांसलें. "मिली स्लो-फास्ट अशें कांय ना. सगळें फुलता तें आपलो वेळ आयलो तेन्नाच."

"फुला, तुका कविता म्हणून दाखोवं?"

तशें गुलाबा फुलान हांसून मान्यताय दिली. मिलीन आपल्याक सुचिल्ली कविता गावन दाखयली.

"आगो त्या झाडां कडेन वचून कितें पदेता? तेंच शाळेंत म्हणून दाखय आनी आमची लज सांबाळ बाये!" मम्मान ताका

(पान २१ चेर)





# जैत

निमिशा हरी होबळे

ICU वॉर्डाभायले कदेलाक घट्ट धरून, दोळे गच्च बंद करून निशा बशिल्लें. आपलें काळीज हिसपाभायर धडधडटा काय धडधडच ना हें कळपाक ताका वाटूच नासली. ताची तकली सामकी सुन्न जाली. जाल्लेंच तशें. एक म्हयनो जालो विशाल हॉस्पिटलांत आसा. गोडेमुतापासत ताच्या पायांचो घावो पेखच्याबदला वाडत गेलो. कसलेंच वखद गुण दिना. दोतोराची आनी निशाची आस्त सोंपिल्ली. खंयच्याय खिणाक आपलो जिवीताचो सांगाती आपल्याक आनी स वर्साच्या बाबूक सोडून वतलो हें चिंतूनूच तें पुरायपणान बाविल्लें.

इतल्यान कोणाचो तरी हात निशाच्या खांद्याक लागलो. त्या हाताक मायेची उबी कमी आनी फॉर्मालदादीचे चटके चड आशिल्ले. फॉर्मालदाद, जी फक्त दुख्खाची आनीक जाणविकाय करून दिताली. दोळे उगडून पळयत जाल्यार विजयकाका. तोच विजयकाका जो "कितेंय गरज पडल्यार फोन कर" अशें सांगून गरजेवक्तार धा फोन मारल्याउपरांत चूकून एक फोन उखलपी सोयरो!

"कितें जाला तें वायटूच जालां. आमच्या विशालाची जीण इतलीच आशिल्ली गो बाय. तुकां आता दादलो जावन सगळें सांबाळपाक जाय. बायलेसारकें कांकणां घालून रावपाचें दिस आतां उरुना पुता." - विजयकाका.

पयलींच विजयकाकाच्या दोन तोंडाच्या सबावाखातीर निशा निर्शे ल्लें आनी ताच्यावयर ताची ही बायलांक खालतेपण दाखोवपी उतरां बाणासारकीं काळजांतल्यान वचून ताच्या तकलेंत रोमली.

'दादलो जावन सांबाळपाक जाय खंय! पांच वर्सांपयलीं नश्टें खंयचेकडलें विशालाक सोऱ्याचे व्यसन लागलें आनी त्या सोऱ्यापासत नोकरी वगडावन बसलो. होंटयेंत एका वर्साचो पुत घेवन नोकरेखातीर पंचवीस-तीस ऑफिसांची दारां घडघडायल्या उपरांत नोकरी मेळ्ळी. ते नोकरेपासत आयजमेरेन हांव घर सांबाळीत आयलां. विशालाचो काडयेचो लेगीत आदार ना. लग्नावेळार उज्या भोंवतणी मारिल्ले तें सात भोंवताडे आनी म्हज्या घोवापासत आशिल्लो म्हजो मोग हांच्या बळग्यान हांव संवसार चलयत आयलां. एक म्हयनो जालो हॉस्पिटल ते नोकरेमदीं नाचत धांवत घोवाची काळजी घेतली आनी तरी हो मनीस म्हाका दादलो जावन सगळें सांबाळ म्हणटा! हांवें बायलमनीस जावन इतलें सगळें केलें तें पचोंव नजो काय हाच्यान?' निशाक मनांतली उतरां भायर ओकूं शी जाल्लीं, पूण वेळप्रसंग आनी परीस्थिती समजून तें शांत रावलें.

"मिसेज निशा, विशाल इज नो मोर. ताणें आपलो निमणो श्वास घेतलो." दोतोरान निशाक भुजवण दित कळयलें.

निमाणो तो खिण आयलोच. निशान आपल्या मनाची तयारी करून दवरिल्ली. दुख्खाच्यो कळो काळजांत दामून दोळ्यांत तटस्थपणाचो भाव दवरीत निशा उलयलें, "फॉर्मेलिटीज पुराय करून म्हज्या घोवाची कुड म्हाका दियात दोतोर."

"अर्द्यावराभितर सगळें जातलें." दोतोरान फुडल्या कामांखातीर आपली वाट धरली.

विजयकाकान सोयऱ्या-धायऱ्यांक फोन करून पयलींच कळयिल्लें. थोड्या सोयऱ्यांनी निशाक घरा हाडलें जाल्यार थोडे फांटी रावून हॉस्पिटलांतल्यान विशालाची कूड घेवन आयले.

घरांतल्या सालामदीं शेंदरेर विशालाची कूड दवरली. कडेक दवरिल्ली दिवली इतल्या लोकांच्या बोवाळांत लेगीत थंडसाणेन पेट्टाली. उजवातींचो वास लोकांच्या नाकांत वतालो. एक एकलो येवन विशालाच्या तोंडांत साकर घालून पायां पडटालो. कितलींशींच सोयऱ्यां रडटालीं; कोण विशालाच्या कुडीचेर घालून घेवन तर कोण निशाक वेंग मारून, इकळाप करतल्या भितरल्यांची कितलीशींच तोंडा निशान ह्या पांच वर्सांत पळोवंक लेगीत नासलीं.



इतलो वेळ शुन्य भाव दोळ्यांत घेवन आशिल्लें निशा आतां हुंडक्या-हुंडक्यांनी रडूंक लागलें. ताणें रडून आपलें मन मेकळें केलें तें पळोवन निशाचे जावेक, विणाक, सुऽऽऽ जालें. एकलें विणाच आशिल्लें,

जाणें निशाची जिण, ताचो संवसार चलोवपा खातीरचो संघर्ष लागच्यान पळयिल्लो. विणान आपल्या जावेक आयजमेरेन आपल्याक जमता तितलो तेंको दिल्लो. पूण एक अस्तूरी जाल्ल्यांन समाजांन घालून दिल्ल्यो लक्ष्मणरेशो हुंपून निशाक मजत करपाक तिका जमलें ना.

''गेलें गें... आमच्या निशाचे सवायशिणपण गेलें गें...'' एके बायलेन रडत-इकळाप करीत निशाच्या कपलाक कुकुम लावन होटयेंत नाल्ल दवरलो.

निशाक कच्च जालें. फुडें कितें घडटलें, हाची सुलूस ताका लागली. ''पयलींच आपल्याचेर येदो व्हडलो प्रसंग आयला, म्हजो सांगाती सांगात सोडून गेलो आनी ताच्यावयर देवा ही म्हजी विटंबना जातली आतां! हुमऱ्यार व्हरून म्हाका बसोवन म्हजे सगळे शिंगार काडून केंस सोडोवन ते थंड उदक माथ्यावयल्यान वोतून म्हाका भूतासमा करून उडयतले हे लोक. म्हाका रांड म्हणटले हे लोक आयच्यान.'' निशाची तकली गरगरपाक लागली. ह्याफुडें बळगें घेवन स्वताखातीर उबें रावपाची तांक आपलेकडेन ना अशें ताका दिसूंक लागलें.

निमणी होंटी भरता ती पळोवन फाटल्यान लोकांभितर कुजबुज सुरू जाली.

''घोव मेल्ले बायलेक हें म्हूण चुकता गे बाये? कपल धवें करचेंच पडटलें गो पोराक.'' एके जाण्टेलेन दुखेस्त सुरांत म्हटलें.

''कसले कसले म्हूण भोग पळोवचे पडटा गे बाये! देवा म्हाका सवायशिणच म्हूण मरण दी रे बाबा.'' वाड्यावयले सरीता भितरल्या भितर म्हण बडबडलें खरें पूण ते शब्द भोंवतणच्या बायलांच्या कानांर ज्युस्त पडले.

लोकांचें उलोवप आयकून विणाक कितें जालें कोण जाणां. तिणें खिणाकूच लोकांनी घालून दिल्ल्यो लक्ष्मणरेषो हुंपपाचे थारायलें. 'आयज जर हांव म्हज्या जावेक पावलें ना जाल्यार एक अस्तुरी म्हूण जल्म व्यर्थ वतलो.' एक निश्चेव करून तें निशाकडेन बशिल्लें उठून फाटल्यान बडबडपी बायलांकडे गेलें.

''तुमीं उलयता तसलें कांयच जावचें ना. चार दिसांपयलींच आमच्या गांवचे पंचायतीन थाराव काडला कीं ह्याफुडें घोव मेल्या उपरांत ताच्या मरणाक बायलेचेर हुमऱ्यावयले संस्कार करप ना. तिची विटंबना करप ना.'' अडेचे बळगें हाडून विणा उलयलें.

''एक बायल जावन मरणघरांत तोंड वयर काडून कशें उलयता गो तूं? तेंय बी तुज्या घरांतले मरण आसतनां? तोंड बंद दवर तुजें आनी आमकां आमचें काम करूंक दी. तें पंचायतीचे थाराव बी आमकां लागना. पळयता कोण येता तो आमच्या वाटेक. हुमऱ्यावयले संस्कार जावंकूच जाय. नाजाल्यार मरण कशें पुराय जातलें?'' दादलो जावन घर सांबाळ म्हूण सांगपी विजयकाका निर्दयपणान उलयलो.

''हांव उलयतलें! खंयचेय गजालीचेर एक बायल आपलें मत उक्तावंक गेल्यार तुज्या असले मनीस धेंकणो घालून तिका भेशटावन तिचें तोंड बंद करूंक सोदतात. एके बायलेचे असल्या परिस्थितींत मन समजून घेवपाक बायलूच आसूंक जाय अशें ना, तिका समजून घेवपाक मनीसपण आंगांत आसूंक जाय. तुज्या असल्या लोकांखातीर आजुनूय बायलमनीस भोगता. पूण ह्याफुडें न्हय! आयज हांव उलोवन न्ही, करून दाखयतलें.'' विणा पोटतिडकीन निशाकडेन धांवून गेलें.

''भाभी, आयजमेरेन तुवें खूबशीं मोडां पळयल्यांत. काळीज घट्ट करून तांका तोंड दिलां. मातयेभरवण जाल्लो तुजो संवसार तुवें परत आपल्या हातांनी घडयलां. एक अस्तुरी कशी आसची हाची तुवें आमकां बायलांक देख घालून दिल्या.''

''ती दिवली पळय, इतल्या सगळ्या बोवाळांत लेगीत थंडसाणेन पेट्टा. कितलींय आडमेळीं आयल्यार लेगीत ती थंडसाणेन उजवाड फांकारपाचें काम करता. वाऱ्याक लेगीत झूज दिता. पूण आपलें कर्तव्य सोडीना. तिका सांगात जाय तो फक्त तेलाचो. आयज हांव तुजे तेल जाता गे. सदचेवरी तूं जशी घट रावल्या तशी आयजूय तुका घट रावची पडटली. त्या हुमऱ्यावयल्या संस्काररुपी वाऱ्याचे भकीक पडनाका. लोक तुका बळयां हुमऱ्यार व्हरपाचो यत्न करतले. पूण तुवें दुबळें जावंक फावना. तूं घट काळजाची अस्तूरी आनी ह्यानफुडें घट काळजाचीच उरतली हें आयज लोकांक दाखोवन दी. आयज जर तूं तुज्याखातीर उबी रावना जाल्यार गांवची खंयचीच अस्तुरी स्वताखातीर उबी रावचीना. ह्याफुडें पंचायतीचो तेंको आसून लेगीत गांवची खंयचीच बायल केन्नाच असल्या संस्कारापासत वांचची ना. पोरण्या रुढींनी कुड्डे जाल्ले लोक बायलेक छळत रावतले. आता सगळें तुजेर निंबून आसा. तुवेंच तुकां पावूंक जाय.'' विणा निशाच्या दोनूय भुजांक धरून ताच्या दोळ्यांत दोळें घालून उलयलें.

निर्जिव जायत चलिल्ल्या निशाच्या मनांत विणाच्या शब्दांनी एक नवी चेतना जागयल्ली. ताणें विणाक कडकडून वेंग मारली आनी रडून घेतलें. मोव जाल्लें काळीज आता परत घट जावंक लागले.

बऱ्या वेळांत विशालाची कूड खळ्यांत व्हेली.

''विशालाचे बायलेक हुमऱ्यार हाडात गे!'' एका दादल्यान व्हड आवाजान ओर्द शी सोडली.

त्या दादल्याचो आवाज आयकून निशा उठलें. तांबडे दोळे घेवन तें आपुणूच चलत येवन हुमऱ्याकडच्यान चार पावलां पयस येवन उबें रावलें,

''विशालाची बायल हुमऱ्यार येवंची ना. हांव असले कुड्डे संस्कार करून घेवंचें ना. म्हजी विटंबना करपाचो हक्क कोणांकूच ना. म्हाका हात लावपाचो अधिकार तुमकां कोणाकूच ना. तशें केल्यार, हें निशा, विशालाची बायल तुमकां सोडची ना. तुमचेर पुलिशेंत कागाळ करतलें. म्हाका पंचायतीचो तेंको आसा हें तुमीं जाणा जायात!''

मरणाक आयिल्ले लोक निशाचो धीट अवतार तटास जावन पळयत उल्ले. ताच्या धिटायेक भियेवन जायत पूण चार पावलां पयस आशिल्ल्या हुमऱ्यार ताका हाडपाची कापास्ताद कोणाकडेच उल्ली ना. निशाक लागसल्ल्यान वळखपी विजयकाकान तर भंयान आंवडो गिळ्ळो. आयज निशाचो, एके अस्तुरेचो, बायलपणाचो मान राखून उरलो. हें एके तरेचे जैतूच म्हटल्यार जाता.

संपर्क : 8329532163

***



कथिका

# मँगो पॉप आनी लॉलीपॉप

रमेश लाड

बाय गो शाणुल्या, कशें फसलें तूं अशें? कित्याक म्हणलें ना तुवें "ना, हें नाका, तें ज्याय म्हाका! तें व्हलें आम्या यंगाचें! तें दोन बाबू खाताये तें!' अशें म्हणून तुवें हट्ट केल्लो जाल्यार कितलो खोशी जावपाचो हांव! खुबूच खोशी! जी वस्त तूं खावपाक मागतालें ती वस्त तुका मेळटली! तुजो पप्पा ती घेवन तुका दितलो! ती पळोवन तूं खोशी जातलें! तुज्या मुखामळार उमेदीचें ल्हार पातळटलें आनी तो तुजो दर्या ल्हारायेदी खोस तुज्या लिकलिकीत दोळ्यांतल्यान फुटून तुज्या लुसलुशीत पोल्यांचेर पातळिल्ली पळोवन हांव पुराय समादान पावतलों अशें व्हडले उमळशिकेन हांव राविल्लों. पूण बाय शाणुल्या, तुवें हट्ट कित्याक धरलो ना गो?

त्या लॉली पॉपाक मँगो पॉप समजून तूं खोशी जालें, तूं फुलले! खोशयेचो तितलोच व्हड उमाळो तुज्या मुखामळार गरगरीत उदेलो! तूं आपणाल्याच मनोराज्यांत वचून गुणगुणलें, नाचरीं पावला हालोवन मिरयलें! पूण ती भरती आसली पुनवेची! उमाशेचे भरतेची उबारी हांव पळोवंक सोदतालों ती म्हाका दिसली ना. घडये ती आयली आसतली पूण म्हाका ती होलमलीच ना. फुलोवंक घेतिल्ल्या व्हडल्या बोमाड्याक बारीक बुराक आसचो आनी कितलोय वारो घाल्यार तो पूर्ण तिकतिकसाण ये मेरेन फुलचोच न्ही अशी म्हजी छिद्रेल्ली गत जाली. तूं आपणालेच तंद्रेंत आनी हांव उबो चुरचुरत, तूं फसलें कशें काय म्हणून! लॉली पॉपाची भायली आरपार बेगड तुका काडूंक येना. तूं ते तशेंच तोंडांत घालता. तुजो पप्पा तुका पळयता.

"ना ना बाय! दी बॅगांत दवरतां. घरां वचून खावप आं!"

"घला वचून खावप?"

"हय! घरा वचून खावप. बॅगांत घालतां दी."

"घे! हांव घला वेंचून खातयें आं!.... खंय आशा तें आवें पळोवं ना! पप्पा तुवें बी पळोवं ना न्ही? हय, म्हाका खबर ना खंय आसा तें!"

बाय गो तूं पप्पा बरोबर टुर्रर करून स्कुटरीन घरा गेलें. तुजें मन भुलोवणें गोड गोड लॉली पॉप घेवन! साखरेपांक करपून कोडवासार जाल्ले यादीचें लॉली पॉप चोखीत हांव घरा आयलों. खरेंच नकळटना काय तुका थंडी जातली हे भिरांतेन ताणें तुका मँगो पॉप दिलो ना तें म्हाका कळ्ळें ना.

पंदरा मिण्टां सुमार उबो राविल्लेकडेन म्हजी नदर बिरमुटेवरी मर्दी मर्दी थीर जायत तुजे भोंवतणीच भिरभिरताली. ते दोन बाबू मँगो पॉप खातालें. तूं तांकां पळयतालें. तांचे म्हऱ्यांत तूं दोन फावटी गेलें. परतून त्या बाबूंवटेन बोट दाखोवन 'म्हाका तें ज्याय पप्पा' म्हणूक लागलें.

"राव आं, घेवंया! हांव पेपर वाचतां न्ही?"

तूं ओगी रावलें. कांय खिणांत तुवें पर्थून मागलें.

"दी पप्पा!"

"राव आं! म्हजो पेपर वाचून जावं ना न्ही!"

तूं गेलें! तुजी नदर त्या दोन बाबूंच्या तोंडाकडेन! म्हजी नदर तुजेर! वस्त दोनच रुपयांची खरी पूण तो सोबीत, हळुडुवो, मनभुलोवणो बर्फाचो थंड गुळो दुसऱ्याल्या भुरग्याक हांव कसो दितलों? तोय बी तिनसानच्या वेळार म्हऱ्यांत दिवपी पप्पा आसतना? तूं पर्थून आयलें.

"पप्पा, पेपल वाचून ज्यालो? ज्यालो पप्पा पेपल वाचून?"

"ना आं! राव मात्शें!"

तूं ओगी रावलें. तुजे सानुले सहनशक्तीची तोखणाय करीत हांवूय बी ओगीच. पप्पाचें पेपर वाचप सोंपले. तुज्या जाग्यार बाबू आशिल्लो जाल्यार इतली सोंशिकसाण दाखयत आशिल्लो काय? तुज्या पप्पाचें तें पेपर वाचप म्हाका तरी तुजेकडेन पळोवन सोंसलें ना.

मागीर एकदांचें निमणे पान पावलें. तुजो पप्पा एकदांचो तुज्या संवसारांत पावलो. तुवें पर्थून मागलें. ते दोन बाबू आपणाल्या पप्पा-मम्मी बरोबर वचून पांचेक मिण्टां जाल्लीं. तुजो पप्पा दुकानांत भितर सरलो. ताणें एक लॉली पॉप सोदुन काडलें आनी तुका दिलें. तूं मागतालें तें मँगो पॉप तुका ताणे दिलें ना. 'मँगो पॉप मागतालें तें, लॉली पॉप न्ही' अशें म्हणून ताका सांगपाक म्हजे जिबेर उतरां फुटूंक पाविल्लीं. हांवें ती चिड्डून धरलीं. तो जाणा जावनूच तुका थंड वस्त दिनाशिल्लो आसत. वा पेपरांत रिगिल्ले ताचे नदरेक तूं कितें दाखयतालें तें दिसलेंच नाशिल्लें जावंये! तुजो तेन्ना अश्वत्थामो जालो. फरक इतलोच तो जालो दुर्बळकायेच्या देंवचाराक दिल्लो बळीचो बोकडो आनी तूं बापायच्या मोगान घेतिल्ले जतनायेचो वा ताणें तुजे मागणेक कुस्कुटाचें मोल दिल्लें जावंये, ताचो!

पूण बाय शाण्या, तुजें तें निरागस अज्ञानांतलें सूख कितलो काळ मेरेन तुका सांगात दितलें गो?



संपर्क : 9764924552

***

*(पान २५ वयल्यान)*

सादयलें.

मिली शाळेंत पावलें. तें सदचे वरींच ओग्गी बसलें. टिचरीन सगळ्यांक सुचोवण्यो दिवन सर्तीक आरंभ केलो.

तुमी खंयच्याय विशयाचेर कविता म्हणून दाखयात म्हणत टिचरीन बॅल मारली. मिली भानार आयलें...

"मिली तुका कळ्ळे मगो नेम, काय परत सांगूं?" टिचरीन ताका विचारलें.

आपूण वर्गांत नासून शाळेचे बागेंत आसां आनी आपूण फुलां वांगडा गायत नाचतां अशें इतलो वेळ मिली कल्पना करतालें. ताका फुलांचेर, ताचेर बशिल्ल्या फुलपांख्याचेर एक गीत सुचिल्लें. तेंच तें म्हणटालें.

"हय टिचर, पूण टिचर कविता गावन म्हळ्यार जाता?"

मिलीचीं उतरां आयकून सगळो वर्ग हांसलो. टिचरय हांसली.

"तूं गावन म्हण वा नाचून म्हण. पूण म्हण एकदाचें!"

सर्तीक आरंभ जालो. टिचर, हेडमास्तर, कविता सादर करपी भुरग्यांचे पालक हाजीर आशिल्ले. एकएकल्यान आपली कविता सादर करतकच सभाघर ताळयांनी गाजतालें.

शेवटाक मिलीची पाळी आयली. सगळीं भुरगीं खूकऽ खूकऽ करूंक लागलीं. मिलीच्या मम्मा पप्पान बशिल्ले कडेन मान सकयल घाली. मिली माचयेर पावलें.ताचें खणखणीत आनी स्पश्ट उतरांतलें गायन कानार पडल्या बराबर तांची मान आपसूक वयर आयली.

मिली गायतालें..

*'फूल हांव पोरसांतलें.*
*स्लो स्लो फुलपाचें*
*फुलपाख्यांक वेंगांत घेवन*
*स्लो स्लो धोलपाचें..'*

पुराय सभाघर त्या गोड आवाजान मंत्रमुग्ध जाल्लें. मिलीचें गायन सोंपलें तशें ताळयांचो शिंवोर जालो.

थोड्या वेळान मायका वयल्यान घोशणा जाली, "सर्तीचो निकाल आमच्या हातांत आयला आनी पयलें इनाम वता सातवेच्या वर्गांतल्या मिली नायकाक..."

आनी परत एक खेप पुराय सभाघर ताळयांनी गाजलें.

संपर्क: 8788595022

***



*(पान १३ वयल्यान)*

भलायकीचे प्रश्न अशें मानिनात. डिमॅनशिया हो जाणटेपणाचो एक भाग अशें समजिल्ल्यान वैजकी उपचारांची गरज लोकांक दिसना. तशेंच जायत्या जाण्ट्यांत निर्शेवणी दिसून येता. पूण ताची चिकित्सा करप जायना. ह्या जाण्ट्यांचीं घरचींच आपणाक समजता ते रितीन काळजी घेतात. वाडट्यां प्रमाणात जाण्ट्यांकडेन अनुचीत वेव्हार आनी दुर्लक्ष जाता हें ह्या अभ्यासांतल्यान लक्षांत आयलां. जाण्ट्यां कडेन सादिल्ल्या संवादांतल्यान कळटा कीं जायते खेपो जाणट्यांची इस्टेट भुरग्यांक मेळपाची आसली जाल्यारच तांची काळजी घेवप जाता.

जायतीं जाण्टीं वृद्धाश्रमांत रावतात. पूण हें फकत दुडू आसल्यार शक्य जाता. गरीब तशेंच दुसऱ्यांचेर आदारून जगतल्या जाण्ट्यांक हें शक्य जायना. घरच्यां वांगडा रावपी जाण्टीं घरांतलो वावर करपांतच खरशेतात आनी वृद्धाश्रमांत रावपी जाण्टीं बेकारसाणीक वाजेतात. गावांनी क्लब असतात पूण तें तरणाट्यां खातीर वावुरतात. देखून जाणट्यांक कांय मनरिझवण आसना. गोंयच्या जाण्ट्यांमदीं फुडाराची चिंता आनी दुसऱ्यांचेर आदारून जगपाचो हुसको व्हडा प्रमाणांत दिसता हो ह्या संशोधकांचो निशकर्श जावन असा.

**(चलता)**

संपर्क: 9881527581

***

# 'शंकर रामाणी हांची कोंकणी कविता'- एका व्रतस्थ कवीचो भौमान

**सखाराम शेणवी बोरकार**

शंकर रामाणी हें कोंकणी - मराठी कवितेच्या मळावेलें एक फामाद पूण तितलेंच आडनदर जाल्लें नांव. हो कवी सदांच प्रसिद्धीपासून पैस रावलो. कवितेची साधना करीत रावलो. तांच्या कवितेचो मोग करपी रसिकांनी तांची कविता जिवीत दवरली. ह्या तांच्या कवितेचेर मोग करप्यांखातीरुच तांचो जल्म शताद्बी सुवाळो मनोवपाक आयलो.




ह्या कवीच्या समग्र कवितेचो आसपाव आशिल्लें पुस्तक तांच्या जल्मशताब्दी वर्सा उजवाडाक येवप ही मोट्या खोशयेची आनी तोखणायेची गजाल. 'शंकर रामाणी हांची कोंकणी कविता'- संपादकः माधव बोरकार हें पुस्तक उजवाडाक हाडून कोंकणी कवितेच्या अभ्यासकांची आनी चड करुन रामाणीच्या कवितांचो अभ्यास करपी अभ्यासकांची गरज भागयल्या हाचे खातीर रामाणी हांका म्हऱ्यांतल्यान पळोवपी आनी तांचो सहवास लाबिल्ले ह्या पुस्तकाचे संपादक माधव बोरकार हांका परबीं. ह्या पुस्तकाक ताणी बरयिल्ली प्रस्तावना खूप मोलादीक आनी अभ्यासपुर्ण आसा.

रामाणी जरी कोंकणीकडेन उसरां पावले तरी तांच्या मराठी कविते इतल्याच ताकदीच्यो कविता तांणी कोंकणीक दिल्यो. 'जोगलांचे झाड' (१९८७), 'निळें निळें ब्रम्ह' (१९९३), 'ब्रम्हकमळ' (१९९५) आनी निमणो कविताझेलो 'निरजंन' (१९९८) हे एका परस एक सरस अशे कविता झेले तांणी कोंकणी सरस्पतीक अर्पण केले. हांतूतले कांय कविता झेले दुर्मिळ जाल्ले. पूण हे सगळे कविता झेले एकठांय हाडून उजवाडाक हाडले म्हण संजना पब्लिकेशन्सचे उपकार.

शंकर रामाणी हो कवी सदांच प्रसिद्धीपासून पयस रावलो. कवितेची साधनां करीत रावलो. तांच्या कवितेचेर मोग करप्यांनी तांची कविता जिवित दवरली आनी तांच्या कवितेचेर मोग करप्यांखातीरूच तांचो जल्म शताद्बी सुवाळो मनोवपाक आयलो.

हांवे वयर म्हळां तशें रामाणीच्या समग्र कवितेचो बारीकसाणेन आनी चिकित्सक नदरेन अभ्यास करुन, तांच्या कवितेचीं खाशेलपणां, तांतूतलीं सौदर्यथळां, तांतल्यो प्रतिमा, सैमाचीं वर्णनां, मोग, अध्यात्म आनी हेर गजाली सामक्यो नकसूद उतरांनी आनी खंयच पाल्हाळ लायना आसतना थोडे भितर बरोवन संपादक माधव बोरकार हांणी अभ्यासकांची गरज भागयल्या.

आपल्या प्रस्तावनेंत माधवबाब बोरकार बरयतात, 'रामाण्याली कोंकणी कविता तांचे मराठी कवितेच्या म्हऱ्यांत दवरुन वाचल्यार कांय खाशेलेपणां दोळ्यांत भरतात. मराठी कवितेंत तांणी वेगवेगळ्या छंद आनी वृतांचो वापर केला. मुक्तछंद ते वापरतात. पूण एके मर्यादेंत रावन. पूण कोंकणी कविते कडेन येतना ते छंद वृतांची फास्की मोडून मुक्तछंदाक आपणायतात आनी ताचो प्रभावी वापर करतात. मुक्तछंद तांचे कवितेच्या अर्थ आशयाक तोलता. तें तांचे कोंकणी कवितेक दिल्लें देणे.'

हो सगळ्या आंगानी सुंदर असो शंकर रामाणी हांच्या समग्र कोंकणी कवितांचो झेलो संजना प्रकाशनान उजवाडाक हाडला. खरें म्हळ्यार हें काम गोवा कोंकणी अकादेमीचें वा गोंय सरकारच्या कला आनी सांस्कृतीक खात्याचें. पूण एक वेगळी नदर दाखोवन आनी हो प्रकल्प खर्चीक आसूनय संजना प्रकाशनान ह्या वावराक माथें मारलें म्हण तांची तोखणाय करीत तितली थोडी. ह्या पुस्तकाचे मुखपृष्ट नामनेचे चित्रकार सुहास शिलकार हांणी काडलां आनी रिया ग्राफिक्स- ओल्ड - गोवा हांणी तें छापलां.

**शंकर रामाणी हांची कोंकणी कविता**
संपादकः माधव बोरकार
प्रकाशकः संजना पब्लिकेशन्स, सांगे -गोंय
पानां: २९२
मोल: ५०० रुपया

संपर्क : 9923306751

***

# कविता



## कागदाचीं व्हडीं

**माधव बोरकार**

कागदाचीं व्हडीं
पावस पाणयांत
सोडता बंदरां
शेणिल्ल्या काणयांत.

मेळना तांकां दिका
पावता जंय थंय
नदरे मुखार
दोंगर कसो भंय

पावस पाणयांत
वतात व्हांवन
कागदाचीं व्हडीं
जीण म्हजी जावन...
१७.७.२२

संपर्क: 9420222876

***



## कळ

**परेश नरेंद्र कामत**

कळ
धरून बसता काळोख
झाडांच्या मनांत रातभर
कळयो जावन;
कळटां-नकळटां
कळयो फुलतात कुचकुचीत
पाकळ्यो परतीत काळखाच्यो
फांतोडेच्या उजवाडांत
कळां कळांनी फुलोर

तशी
कळ येता काळजांत म्हज्या
खोल मेरेन
तुज्या उगडासाची
कळना कशी...

संपर्क: 9422640210

***

## तें झाड

**आर. रामनाथ,**

तें
झाड
पानान पान
झ
ड
लां ...
ताणे
पा
न
ग
ळ
चितारला ...

संपर्क : 9850458763

***



## भारतभूंय

**सागर नाईक मुळे**

भारत भूंवेच्या इतिहासांतल्यान फुल्लीं फुलां आज कालची कळी
मोडत सजत सजली गुणांची भारतभूंय ही हांसत म्हजी

हिंद सिंध काश्मीर, हिमालय कलश मुकूट जठाधरी
पवित्र ती गंगा, पवित्र ही भूमी सगळ्यांवरी कृपा करी
त्या भूंवेच्या कृपेन आम्ही पावलां फुडें मारी

जात धर्म एक आसा तिखसाणीच्या गोडयेन सगळें
तरातरांचे वेश आनी भाशा आगळी वेगळी
सप्तसुरांच्या इंद्ररंगाच्या मायभुंयेची मायाच निराळी

रंगला तुझ्या पोटांतल्यान वीर पुतांचो खेळ
राखली आमची धरती जाणी दिवन आपलो वेळ
यडत गेलां इतिहास भांगरा परंपरेचो मेळ
वंदेमातरम् म्हणत गाजोवया वाजोवन घुमट शामेळ.

संपर्क: 7972785003

***

## जाप

**सखाराम बोरकार**

म्हाका जाप दितलें हे आशेन
हांवें तुका प्रस्न केलो.
पूण तुवें जाप दिंवची सोडून
परतो म्हाकाच प्रस्न केलो.
आनी खरें सांगू मोगा!
तुवें विचारिल्या प्रस्नांतूच
म्हज्या प्रस्नाची
म्हाका जाप मेळ्ळी!

संपर्क : 9923306751

***

## १ - दोन हतयांचें झूज

**हिंदी कवी उदय प्रकाश हांच्यो कविता**
**कोंकणी अणकार: समीर झांट्ये**

दोन हतयांचें
झूज
फकत दोन हतयांच्या समुदायापुरतें
नासता मर्यादीत

दोन हतयांच्या झुजांत
सगल्यांत चड चिड्डता-माड्डता
तण, जांचें
हतयांच्या वड्ड जातीकडे
कसलेंच आसना येणे-देणे

रानांतल्यान उपाशी परततात
गावो
आनी भूक गिळून न्हिदतात
घरांत सान भुरगीं

चार दांत आनी आठ पायांच्या खंवदळांत
चडांत चड यावे जातात
भूरग्याच्या न्हिदेक
सगल्यांत चड असुरक्षित जाता
आमचो फुडार

दोन हतयांच्या झूजांत
सगल्यांत चड
हूमटून पडतात झाडां-पेडां
मरतात सवर्णी
जांचो हतयांच्या कळपाकडेन
आसना कसलोच संबंध

दोन हतयांचें
झूज
हतयांपरस चड
सोंसता रान

ह्या झूजांत
दिसतात जितले यावे
हतयांच्या उन्मत्त आंगार
ताच्याकूय चड आनी खर यावे
जाल्ले आसतात
काळाच्या आनी रानाच्या
हड्ड्यार

कर्शेय करून
दोन हतयांचें
झगडप थांबोवपाक जाय.

(मूळ हिंदी कविता : दो हाथियोंकी लडाई)

***

## २ - मनीस

मनीस
मरणाउपरांत
करीना विचार

मनीस
मरणाउपरांत
करीना उलोवप

करीना कांयच विचार
कांयच उलोवप, तेन्ना
मनशाक
येता मरण

(मूळ हिंदी कविता : आदमी)

***

## ३ - बेसांव

हुमायूँन केल्लें मागणें
अकबर बादशहा जावंचो

अकबरान केल्लें मागणें
जहाँगीर बादशहा जावंचो

जहाँगीरान केल्लें मागणें
शाहजहाँ बादशहा जावंचो

बादशहा सदांच बादशहाखातीर
बादशहा जावंचें मागणें करता

लालकिल्ल्याचें दार राखपी जाण्टेलो
दरबान सांगता.

(मूळ हिंदी कविता : दुआ)

***



## ४ - सत्ता

जो निरंतर करतलो गुन्यावांक विरोध
ताका अपराधी म्हण करतले सिद्ध

जो न्हिदूंक सोदतलो वर्सांउपरांत फकत एकदा
पुरो जावन
जागरणात दवरतले ताका फुडारभर नेमान

भायर सरतलो सोदूंक दुर्येसाक वखदाचें दुकान
तोपतले ताका आनीक दुसरें दुर्येस सिरींगान

जो सोदतलो हांसपाक साबार दुःखामदीं
जिवित ताचें भरतलें दुकांनी आनी पिडानीं

मागतल्याक बेसांव
मेळटलो शिराप
सगळ्यांत चड म्होव्या उतरांक
सगळ्यांत चड पोजड्यो गाळी
करूंक सोदतलो जो मोग
दितले ताका न्हिदेचीं पिल्लां

जो उलयतलो सत
सापडटलो वावड्यांच्या भोवऱ्यांत
आसतलो दुबळो आनी सोपोवपाक सुलभ
धारतलो दुबावीत आनी भिरांकूळ

जो मागतलो स्वातंत्र्य
मेळटलो ताका आजल्म कारावास!

एक दिस जाणीव जातली जणऐकल्याक
कोणूंच उरूंक ना आपलो, आसपास!

(मूळ हिंदी कविता : सत्ता)

संपर्क: 9823122164

***

